जाग प्रकाशनाचें

# जाग

म्हयनाळें

वर्स ४७ : आंक ९ : मे २०२१

* संस्थापक संपादपी :
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

* वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

* संपादपी :
आसावरी नायक

* पालवी संपादपी :
कृपाली नायक
एडना वाझ

* उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालर्देल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

* छापपी :
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५९० ००२

* वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग, गोंय
विद्यापिठा लागसार, ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ९७३०८७१११८/ ७४४७२६८७२०

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) : | २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

पटी मनी ऑर्डरीन वा ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-



## मांडावळ...

०२ पुरुमेंत पावसाळ्याचो... साहित्याचो ... संपादकीय

०३ पुरुमेंत ... मुकेश थळी

०५ संकश्टकाळांतली तजवीज - पुरुमेंताचें फेस्तः ... डॉ. पांडुरंग फळदेसाय

०६ पुरुमेंत-आमचे मुस्तींतलो! - ... शीला कोळंबकार

०८ पुरुमेंताचें फेस्त ... मनस्विनी प्रभुणे नायक

१० पुरुमेंत-आमचे मुस्तींतलो! ... जयमाला ना. दणाईत

११ बायलांचे सभावगूण दाखोवपी कोंकणी म्हणी ... हर्षा शेटये

१४ कविते विशीं : ... माधव बोरकार

१६ इतिहास उस्तितना : ... संग्रहांतल्यान

१८ मन कुशबनः ... दादा हेगडे

१९ 'करपां आनी कालवां' (डायरी लेखन) ... सुमेधा कामत देसाय

२२ 'तें मडें कोणाचें? (कथा) ... दामोदर मावजो

२४ पुरुमेंत : ... कृ. म. सुखठणकार

२८ आटीव – घोटीव : ....(पुस्तक परिक्षण) ... उल्हास पै रायकार

३१ कविताः ... माधव बोरकार, सखाराम शेणवी बोरकार, परेश नरेंद्र कामत, अन्वेषा सिंगबाळ, आर. रामनाथ, मुकेश थळी, गोपीनाथ विष्णू गांवस.

मायले चित्र : कालिदास सातार्डेकार

भितल्ली चित्रां : भारत जगताप, निशीत बोरकार



संपादकीय

# पुरुमेंत पावसाळ्याचो... साहित्याचो...

पुरुमेंत हें गोंयच्या जिणे शैलींतलें एक वेगळावं नजो अशें आंग. आमच्या पुर्वजांनी पुरुमेंत ही संकल्पना चलणुकेंत हाडली म्हणचे परस तेन्नाची गोंयची परिस्थितीच तशी आसली. पावसा दिसांनी सेगीत आठ-आठ दीस पडपी उटंगारांचो दाट पावस, येरादारीचीं साप्प उणीं सादनां आनी सदचे जिणेक लागपी सामान मेळपाची त्या दिसांनी मारामार. ते वेळार हो पुरुमेंत म्हळ्यार, दिसपट्टे जिणेक लागपी वस्तूंची सांठवण करप सामकें गरजेचें आसलें. काळ बदल्लो. फ्लॅट संस्कृताय आयली. विजेचीं उपकरणां आयलीं. येरादारीचीं सादनां वाडलीं. वर्सयभर गरजेच्यो वस्तू मेळपी बाजारपेठो आयल्यो आनी त्या खातीर पुरुमेंत करप कांय जाणांक पिशेपणाचें दिसपाक लागलें. पूण गांवगिऱ्या वाठारांनी मात पुरुमेंत आदल्या भशेनच करतात.

गांवगिऱ्या वाठारांनी एप्रिल-मे म्हयन्यांत चडशे लोक पुरुमेंत आनी हेर पावसा आदीं करपाच्या म्हत्वाच्या तरेकवार कामांनी व्यस्त आशिल्ले दिश्टी पडटात. घराचीं पाखीं सारकीं करप, सुकीं लाकडां एकठांय करप, मिरसांगो सुकोवप, आमटाण कल्लावप, भात सुकोवप तशेंच हेर कामांक नेट आयिल्लो दिश्टी पडटा.



पयशे आसल्यार सगळें विकतें घेवपाक येता असो सगळ्यांचो समज जायत चल्ला. पुरुमेंताची काळजी आमकां कित्याक? पुरुमेंताच्या बाजारांत सगळेंच मेळटा. पूण कोण तरी कश्ट करता म्हण ह्यो वस्तू पुरुमेंताच्या बाजारांत येतात. सगळ्यो वस्तू बाजारांत मेळटात म्हण सगळे ओगी रावले जाल्यार बाजारांत ह्यो वस्तू येतल्यो खंयच्यान हाचो आमी विचार केला? हाचो प्रत्यय आमकां पोरुं आयलो आनी ओंदूय येंवचो ना म्हण खात्री दिवपाक जायना.

पोरुं कोणाच्याय ध्यानांत आनी मनांत नासतना कोरोनान सगळ्या जगाचेर हावळ हाडली. अजुनूय ह्या चपक्यांतल्यान मनीसकुळी सांवरूंक ना. कोरोना आळाबंदा हाडपाक लॉकडावन गरजेचो थारलो. भारतांत पोरुं २२ मार्च सावन कडक लॉकडावन अंमलांत हाडलो. सगळो वेव्हारच ठप्प जालो. हातांत पैसो आसा पूण भायर सरुंक मेळना. भायर सरल्यारुय गरजेच्यो वस्तू मेळनात अशी आवतिकाय. मागीर घरांत कितें आसा ताचेर दीस काडपाचो वेळ आयलो. जांचेकडेन सामान हाडिल्लें आशिल्लें तांकां व्हडलो त्रास जालो ना. पूण जांचे कडेन सामान हाडिल्लें नासलें तांचे मात भोगणार जाले. तेन्ना आमचे जाण्टेले आदल्या तेंपार पुरुमेंत कित्याक करताले, ताचें म्हत्व आयचे पिळगेक कळ्ळें.

हो आंक आमी पुरुमेंत ह्या विशयाक ओंपला. पुरुमेंताचेर साबार गजाली ह्या आंकात तुमकां वाचूंक मेळटल्यो. आमच्या शेणत वचपी ह्या दायजाकडेन वाचकांक व्हरपाचो हो सुपुल्लोसोच येत्न.

मार्च म्हयन्याच्या सोंपतेर २०वें कोंकणी युवा साहित्य संमेलन खांडोळ्या जालें. युवा साहित्य संमेलन म्हळ्यार कोंकणी साहित्याच्या फुडारा खातीर पुरुमेंत कसो. ह्या संमेलना उदेशीं घडपी युवा साहित्यीक कोंकणीची पालखी आपल्या खांदार घेवन मुखार वतले हो हावेस. फाटल्या १९ वर्सांत आमी १९ तरी युवा साहित्यीक घडोवंक पावले, जे सातत्यान कोंकणीची साहित्यीक सेवा करतात? फाटल्या वर्सा पेडण्या जाल्या युवा साहित्य संमेलनांत माचयेवेल्यान घोशणा जाल्ली कीं फुडलें युवा साहित्य संमेलना मेरेन १० साहित्यीक तयार जातले म्हण. खंय गेले ते धा युवा साहित्यीक? काय मायक हातांत आयलो आनी मुखार गर्दी जमली म्हण फटाश्यो मारपाच्यो?

ह्या वर्साच्या युवा साहित्य संमेलनांत ज्यो साहित्यीक सर्ती घडोवन हाडल्यो तांतूत वांटेकार जावपी साहित्यिकांची पिराय दवरलेली ४५ वर्सां मेरेन. ४५ वर्सां पिरायेचो साहित्यीक हो युवा? साहित्य अकादेमीन युवा साहित्यीकांची पिराय दवरल्या ३५ वर्सां मेरेन. हाचो अर्थ आमचेकडेन युवा साहित्यीक नात. ह्या सर्तींत जैतवंत जाल्ल्या युवा(!) साहित्यिकांचे वळेरेचेर नदर माल्यार सत्यताय मुखार येतली.

आमचे आतांच्या नामनेच्या साहित्यीकांनी आपलें बऱ्यांतलें बरें साहित्य पिरायेच्या तीस-पस्तीस वर्सांमेरेन दिलें. आमी आतां ४५ वर्सांच्या दोग भुरगीं आशिल्ल्या आवय -बापायंक युवा म्हणटात? ही पाळी आमचेर कित्याक आयली? ही कित्याची सुलूस? खंयतरी आमचें चुकता. फुडाराच्या हुस्क्याची गजाल ही.

आतां खरी गरज आसा ह्या विसूय संमेलानांचे 'ऑडीट' करपाचें. आमचे आयचे युवा साहित्यीक हे कोंकणीचो फुडाराचो पुरुमेंत. तांका उर्बा दिवप, मार्गदर्शन करप, कार्यशाळा आयोजीत करप हें पुराय वर्सभराचें काम. चार वरांची भोगावळ न्हय. अशें केल्यारच कोंकणीची साहित्यीक चळवळ फुडें वतली. जी शणै गोंयबाबांक अभिप्रेत आशिल्ली, जांची पुण्यतीथ आमी ९ एप्रिलाक पाळ्ळी. जाळवणदार हाचेर गंभीरपणान विचार करतले अशी आस्त आसा.

ह्या आंकाखातीर आमच्या लेखकांनीं आपलें साहित्य वेळार आमकां पावतें केलें. तुमकां लागूनच जागाचो आंक प्रत्तेक म्हयन्याच्या एका तारकेर वाचप्यांच्या हातांत पडटा. तुमचे सगळ्यांचे उपकार.



# पुरुमेंत

## मुकेश थळी

मार्च सोंपना फुडें आज्जेलो बोवाळ सुरू जातालो. पुरूमेंताची तयारी. आवयची आवय. हांव तांगेर व्हड जालों. प्रियोळ - म्हाड्डोळा.

आज्जेक सगळे येसू आका म्हणटाले. गोरी पान. सुंदर. खूब हुशार. तकलेन फीन. तिचे सारकी कश्टी प्रशासक बायल हांवें पळोवंक ना. वांगडाच शेंकड्यांनी गजाली यशस्वीपणान करपी.

आज्जेलें साम्राज्य मोटें. पोरसूं खूब व्हडलें. घरा मुखार गोठो. आंगण मोटें. पयलीं पापड आनी लोणचीं सुरू जातालीं. हातऱ्यो, शेंदऱ्यो आसताल्योच. व्हडल्या हातरपाट्यार पापड सुकत घालचे. हांव पापड सुकत घालपाक आदार करी. थंयच राखूंक बसचें पडटालें. गोरवां येत म्हूण. हांव रवीन्द्रबाबान वाचूंक दिल्लीं शणै गोंयबाबाचें गोमन्तोपनिषद आनी हेर पुस्तकां थंय वाचीत बसतालों ती स्पश्ट याद जाता. पापड आजोळच्या पुरूमेंता खातीर, तशेंच पुतांक, धुवांक धाडपा खातीर. दोन मामा आनी एक मावशी मुंबय आसतालीं. तांकां पापडां कवळ्यो धाडपा खातीर. पापड वेवस्थीत पत्रासांच्या संचांत केळी गब्याच्या वांवळेन बांदपाचें काम आजो करी. आवडीन. उमेदीन.

म्हाड्डोळा सप्तकी बाजार भरतालो. आजी म्हाका घेवन वताली. पुरुमेंताचें सामान घेताली. तातूंत सुके बांगडे आसताले. गालमो. सुकीं सुंगटां. मसाले. सांबार. अळसांदे. मुरूले. चंवळ्यो. हांव पोतयो धरून. आमटाण हाडटाली. आमटाणीचे गुळे करून सुकत दवरताली.

तुपाळ शेवयांचो एक मोटो वावर आसतालो. ती साग्रसंगीत पोंदा छिंद्रां आशिल्ल्या आलीमेनच्या तोपांचेर वा सुपांचेर शेवयो घालताली. मोटी कला ही. तिची निवळसाण आनी संवळें कडक आसतालें. घरांत दर वर्सा गुरूचरीत्र वाचताले. आजो, आजी खूब देवस्पण करपी. भावीक. वार, उपास तापास, सण करपी. ताका लागून पुरूमेंताच्या कांय सामानांची सांठवण करतना तीं खासा जतनाय घेतालीं.

घोंस, सांडगे करताली. आतांच्या भुरग्यांक घोंस म्हळ्यार कितें तें कळचेंना. कणगांचें घोंस. चेक्रो घेवन घुस्पल्ल्या सुतां सारको घोंस ती बरी संगीतमय पद्धतीन रेखून काडटाली. सांडगे वेगवेगळ्या रंगांचे आसताले. शाबूदाण्यांचे. ते प्लास्टीकाचेर सुकत घालताले. पुरायेन सुकून जातकच खटक खटक करून ते काडपाक आमकां नातरांक मज्जा दिसताली. कडक वत. पुरूमेंताचे जिनस त्या कडक सुर्याच्या तापा खाला करपून, चरचरून सुकतना आमकां भुरग्यांक मजा दिसची. आमी मस्ती करतकच कडक शिस्तीच्या आज्जेले धेंगशे चालूच आसताले. पावसांत ती सांडगे आनी साकरी पिठो मारिल्ले घोंस हुनहुनीत च्या वांगडा आमकां दिताली.

दोंगुल्लेचेर एक भिरंड आशिल्ली. आजी आमकां घेवन, पाडप्यांक घेवन थंय भिरंडां पाडूंक वताली. ती भिरंड एका बांदून काडिल्ल्या चवकोनी पेडार आसली. आमकां भुरग्यांक थंय देंवचार बी आसत म्हण बेठोच कांच जातालो. चंद्रा (चंद्रकांत) वयर चडटालो. भिरंडांचो पावस सकयल पडटालो. धडाधड. घ-ब-घ-ब. ताज्जीं ताज्जीं तांबडी गुंज तिवतिवित भिरंडां. वज्यांत पांटलेंत घालून ती मागीलदारा हाडप. आजी सगळी प्रक्रिया करताली, लघु उद्देजिका कशी. भिरंडां फोडप. तांबडेंगुंज आगळ वेगळें काडप. बियो सुकत दवरप. सोलां सुकत घालप. भिंडेल लेगीत करी. ते खातीर तिचीं वेगवेगळीं आयदनां, तोप आसताले. कान फुटल्यात जाल्यार भिंडेल घाल, अशी ओपार कोंकणींत तेन्ना घोळटाली. भिंडेल हें उतर लेगीत शेणिल्ल्या दायजांत जमा जालां आतां.

गांवठी कांद्याची रास आजी हाडी. त्या कांद्यांची बांदणी कांद्या पातींक आसताली. आजी खासा तण हाडी. त्या तणाच्या लांबचे लांब काडयांनी कांदे चरचरीत बांदून काडी. खूब जाणां ह्या उद्देगाक बसतालीं. आमी कुशीक उडयल्ली हयन्हयशी सुकी-ओली पात घेवन तातूंत फूक मारून ठप्प करून दोनूय हातांनी ती पात फोडी. चड बोवाळ जाल्यार आजी नियंत्रणांत हाडी. कांद्याच्यो मोवळ्यो बऱ्यो करून भुमितीय नदरेन सिमेट्रीकल पध्दतीन बांदून काडी. गांवठी कांद्यांचें तेज भायल्यान पळोवपाक वेगळें. रूच बरीच. मागीर रांदचे कुडींत उंच दांडयांचेर ते हुंबकळायतालीं. पावसाळ्या खातीर सुगुरवो.

आजोळा, भोंवतणी कुळागरां आशिल्लीं. खूब आंबुल्ल्यो आशिल्ल्यो. वजीं भर दिखाळ वासाळ तोरां येतालीं. आजी लोणचीं करी. कांय खाशेल्या आमुल्ल्यांचीं तोरां दोणांत घालताली. तिची



मीठ कोठये कुडींत सांठोवन दवरपाचो आनीक एक आक्त जातालो. गोठ्यांत लांकडां आनी शिरपुटां सांठोवन दवरताली. जळवाक. सुकें करड आनी तणाच्यो मोवळ्यो मोट्या प्रमाणांत हाडून आजी गोठ्यांत वयर माळ्यार ताची सांठवण करी. तणाचें कुडें रचून दवरी.

कुळागरांतल्या कांय आमुल्ल्यांक घोंटां लागतालीं. वाऱ्या वांगडा तीं घोंटां पडटालीं. आमी नातरांनी तीं पोवलेंत पुंजावन हाडचीं. आजी सांसव करताली. दोन तीन तरेचें. ओडयो घालून शिजोवन, गोड घालून मुड्डून, गालमो घालून, तरांतरांचें. कांय घोटांचें साठ करताली. थरांचेर थर, दर दिसा चडचे. रखरखांत सुकून जातकच व्हडलो मामा साठाचे पटे कापतालो. ते वांवळेन बरे करून बांदतालो. तातूंत मिरयांचो पिठो बी सारयतालीं. घोंटांच्या साठाक आंब्याचें साठ म्हणटालीं.

पणसाचेंय साठ आसतालें. रसाळ गऱ्यां पसून केल्लें. कांय खासा पणसां पसून ती स्वता गरे तळटाली. प्लास्टिक पोतयांनी नाजाल्यार लातांनी वा डब्यांनी ती दवरताली. त्या डब्यांक ती फोलिणां म्हणटाली. हें उतर पुर्तुगीज हें कोश करतना कळ्ळें. पुरूमेंत हें उतरूय पुर्तुगेज.

आजयेली शिस्त म्हळ्यार लश्करी. अशेंच जावंक जाय. वेवस्थीत. वेळार. कशेंय करून वेळार मोख साध्य  करून घेवपाचें प्रशासकीय कौशल्य तिचे कडेन आशिल्लें. मना सारकें जायना जातकच ती बॉम्ब फुटचो तशी फुट्टाली आनी घाळपणां करतल्याक सडीक भायरी दिताली. कोपीश्ट तितलीच मायेस्त. खूब्ब रूचीचें खूब्ब खावपा जेवपाक दिताली. सगळ्यांक वांट्टाली. पावसा आदीं अनसाचो आनी बार्देस मुशराद आंब्याचो हालवो आजी करताली. प्लास्टिकाचे डबे भरून दवरी.

पावसांत घरांत गळटलें म्हूण घर शिंवपाचो आक्त आसतालो. पांख्याचेर सुलचे आनी कयल्यांचे दोन तरेचे नळे आसताले. घर शिंवप दोन दीस चलतालें. मानाय घराचेर चडटाले. कोयर बी घरांत पडटालो. त्याच वेळार आजयेलीं सुकोवपाचीं आनी हेर पुरूमेंताचीय कामां चलतालीं. हें वेळापत्रक ती कशें जुळोवन घेवन टायमींग सादताली, तीच जाणा.

आज्जेले अश्टतासांचे प्रचंड गूण तिच्या प्रमाणांत तिचे तुळेन, पुतांक वा धुवांक आयलेनात. पूण शिस्तीचें वळण तिणें लायिल्लें. आमी ओल्ड गोवा- खोर्ली रावपाक गेलीं तेन्ना माईन आज्जेलें पुरूमेंताचें दायज मुखार व्हेलें. माई शुक्रारा म्हाका घेवन भाणस्तारी बाजाराक वताली. आमटाण, खारें, दोन तरेच्यो मिरसांगो, गालमो, सुकीं सुंगटां आमी हाडचीं. आवाठ आज्जे इतलो नाशिल्लो पूण तिच्यांत म्हाका आज्जेन गिरयल्लो पुरूमेंताचो धडो दिसतालो. संस्कार दिसताले.

खावपाचे जिनस आनी हेर जिनस हांची सांठवण करतना, आज्जेच्या मुखेलपणा खाला वावराडे आनी आमची नातरांची टीम, मीर्ग लागचे आदीं टायम- टायमींग सादून गती -लय हांचीं आवर्तनां पुर्ण करी. लॉकडावन जातकच पयशे आसुनूय कड्डुणां, भाज्यो हांचे खातीर व्याकुळतेन आमी अस्वस्थ जालीं तेन्ना म्हाका पुरूमेंताच्या दायजाचें म्हत्व कळ्ळें. पुरूमेंताचीं फेस्तां पोरूं, अंदू कोविडाक लागून तितल्या नेटान जालिंनात. पूण पुरूमेंत हो आज्जेचो तीन म्हयने चलपी बोवाळ हो इतिहासाच्या आनी दायजाच्या तशेंच काळजाच्या कप्प्यांत खोल घट्ट तस्सो आसा. पुरूमेंत हें उतर काडिना फुडें दृश्यचित्रांची ही चित्रफीत दोळ्यां मुखार सरकुपाक लागता. आंतरीक समृद्धी ती ही...

संपर्क : 9423056755

एक कोठयेची कूड आसली. काळखी. तेन्ना लायट नाशिल्ली. कोठये कुडींत सांठवण दवरताले. खळांतल्या आमल्यांची व्हडलीं बुयांवां थंय आसतालीं. व्हडल्या दोणांत आमटाणी गुळे दवरताले.

आजी लिंबाचें लोणचें करून सांठोवन दवरताली. तोरांचीं सोलां सुकपाक घालताली. रखरखीत वताचे इश्टागतींत पुरूमेंत फुलतालो. सुकिल्ल्या तोरा सालींचें लोणचें ती पावसांत करताली. कॅडबरी कोरा वरी आमटाणीन रूचीन भरिल्लें तें लोणचें. सुका - आमलेचें लोणचें अशें आमी म्हणचें. पेजे वांगडा तोंडाक लावन जेवचें. बिमलांच्यो उब्यो शिरो ती सुकत घाली. तीं बिमलां सोलां सुंगटांच्या सुक्या वांगडा पावसांत अमृतमय लागतालीं. आज्जेल्यो ओडयो सगळ्यांकूच जाय जाय श्यो. ती कुंवाळे हाडी. गोबरान भरिल्ले कशे. म्हाका कोयतो वा कोयती घालून ताचेर धपके मारूंक सांगी. बायलांनी ते कुडके करूंक फावना अशें कितें तरी शास्त्र आशिल्लें खंय. तिका वा माईक ते विशीं विचारपाचें धाडस जालेंना. घब्ब करून हांव कुंवाळ्याचेर धपको घाली. तो वांकडो जालो, सारको जालोना म्हूण ती पिरंगताली. पुरो, शास्त्र जालें अशें म्हणून फुडली प्रक्रिया करून ओडयो सुकत घालताली. पावसांत ह्या ओडयांचो ती रोस करताली, वा! वासानूच जीव जावचो पिसो. केन्नाय ओडयांची किसमूर करताली ताचे मुखार पंचतारांकीत हॉटेलांतल्या जेवणाचे जिनस फिके. खरेंच. ओडयांत सगळ्या घटकांचें एक पुर्णत्व आशिल्लें, जातूंत येसूआकाल्या हातांचो जादू आसतालो.

मे म्हयन्याच्या मध्याक आजी शिरदोना पाळ्यां, खारें उदक न्हावपाक वताली. ती दोन दोन दीस आसचिना म्हणटकच मज्जा करूंक मेळटली म्हूण आमी सर्गसुखांत रमचे. ती येना फुडें तापूंक लागताली. तिचें न्हिदेचें, खाणा जेवणाचें वेळापत्रक इबाडिल्लें आसतालें. तोंडारूच कळटालें. एक दीस आमी घरा वयर अनंताच्या देवळाच्या भायर आशिल्लीं. खेळटालीं. आजी आपलो शिरदोनचो प्रोग्राम करून आयली. फायरींग दिली सगळ्यांक. थंय शेणी आशिल्ल्यो त्यो अस्ताव्यस्त पडिल्ल्यो. रित, धंगण नाशिल्लीं भुरगीं, म्हूण ती किंवाटली आमचेर. अजुनूय म्हाका ती दिसता, त्या मुडांत तापतना. तिका शेणी थापतना हांवें पळेल्या. त्यो सुकतकच परतुपाच्यो आसतात. शेणी पुरूमेंता खातीर सांठोवन दवरच्यो पडटाल्यो. लांकडांक शेणींचो वांगड आसतकच चुलींतलो उजो भगभगून, कमकमून पेट्टालो. आज्जेन एक व्हडलो हांडो म्हळ्यार भांड हाडिल्लें. तातूंतय जळपाक हो उजो जाय पडटालो.

सुपारेची सोल्ली ती सांठोवन दवरताली. पावसांत ताचो वापर जळारां पयस करपाक तशेंच गोरवां खातीर तिळसांजची धुंवरी घालपाक जातालो. आजी वा आजो हें स्वता करी. सोण्णांचीय सांठवण ती करी. सावयच्यान पिकपीन सोण्णां हाडी. नाल्लांची सांठवण आसताली. गांवठी

# संकश्टकाळांतली तजवीज - पुरुमेंताचें फेस्त

डॉ. पांडुरंग फळदेसाय



हेर भारतियांच्या मानान कोंकणी मनीस चड उत्सवप्रिय. ताका उत्सव मनोवपाक कसलेंय निमित्त पुरो जाता. मागीर ती देवळांतली पूजा आसूं, गांवच्या कपेलाचे स्थापनेचो दीस आसूं ना जाल्यार घरांत सटी पुजप, बारसो, अशें कितेंय निमित्त पुरो. तो रोखडोच फुलता; काळीजभर भितरल्ल्यान आनी तितलोच भायल्यान. म्हण आमकां जात्रा, उत्सव, फेस्तां आनी परबो खूबच आवडटात आनी त्यो अप्रूप कश्यो मनयतात आनी उपाट खोस आनी धादोसकाय भोगतात.

गोंयांतल्या दरेक इगर्ज आनी चडश्या कपेलांच्या सरभोंवतणी वर्सावळीची एक तरी कार्यावळ जाता. चडश्या सुवातींनी फेस्तां मनयतात. फेस्तांक जरी धर्मीक बांदावळ आसली तरी तांचो मुखेल हेतू हो गावांतल्या लोकांखातीर वेपारी उलाढाल करपाची आनी गरजेच्या वस्तूंची तजवीज करून दवरपाचो आसलो. पूण कांय फेस्तांक तांची अशी खाशेली वळख आशिल्ली आनी आजय बी तिगून आसा. कांय संस्कृती आनी दायजाच्या मोगींनी त्या परंपरांची याद करून दिवपा खातीर आनी तें दायज आपसूकच नवे पिळगे कडेन पावचें म्हुण मुजरत यत्न चलयल्यात. पेजेचें फेस्त, तवश्यांचें फेस्त, (कुडका) सात्रीं-सुपाचें फेस्त, तिसऱ्यांचें फेस्त, कणसाचें फेस्त, मदेराचें फेस्त, आयदनाचें फेस्त (चिंचणी), बैलांचें फेस्त (नावेली), केळ्यांचें फेस्त ही कांय आदीं सावन चलत आयिल्ल्या फेस्तांची नांवा. आतां कांय नवीं फेस्तांय जावंक लागल्यांत. तीं म्हळ्यार पदेरांचें फेस्त, घुमटांचें फेस्त, आबोल्यांचे फेस्त, काजूंचें फेस्त, कट्ट्यांचें फेस्त (पिळर्ण), ह्या सगल्या फेस्तां मदलें सगल्या गोंयकारांचें आवडटें फेस्त म्हळ्यार 'पुरुमेंताचें फेस्त'.

गिमाळ्याची गरमी वाडत वता आनी पावस आपणाली येवपाची सुलूस दिता, तेन्ना गोंयकारांक पुरुमेंताची ताकतीक लागता. पुरुमेंत करप म्हळ्यार पावसाळ्याच्या दिसांक लागपी घरगुती वस्तूंची साठवण आनी फावोतशी तजवीज करुन दवरप. पुरुमेंत हें उतर कशें आयलां नकळ. पुण चवदाव्या शेकड्यांत अन्ना खातीरच्या सुक्या वस्तूंच्या वेपाऱ्यांक 'पूर्वेयर' (Purveyor) म्हण्टालें असो इतिहासाचो दाखलो आसा. फ्रेंच भाशेंत ताचो अर्थ व्होलसेलर-ठोक वेपारी असो सांगतात. "Provisao" ह्या पुर्तुगेज उतरावयल्यान पुरुमेंत हें उतर आयिल्लें आसूंक शकता. मध्य यूगीन लॅटीन भाशेंतल्या "Grassarius" ह्या उतरवेल्यान ग्रोसरी हें उतर पश्चिमी देशांनी रुळ्ळें. ताचे पयलीं पुर्वेंपर हो मसालो, मिरयां, साखर, च्या, कॉफी, कोकोआ असल्यो वस्तू विकतालो. मागीरच्या काळांत डब्यांत बंद केल्ल्यो वस्तू बाजारांत येवंक लागल्यो. तातूंत नुस्तें, मास, फळां, रस, दूद, धंय, तूप आनी आतांच्या काळार सगल्या तरांच्यो वस्तू सगल्या वर्सभर मेळटात.

पुण साठ-सत्तर वर्सां पयलीं गोंयचें चित्र सामकें वेगळें आशिल्लें. पावसाळ्यांत उटंगार पावस पडटालो. न्हंयो-बांयो भरून वोतताल्यो. कितल्याश्या घरांतल्यान लोक सहजपणान भायर सरूंक शकनाशिल्लें. कितलीशीं गांवां मुख्य शारी वाठारापासून संपर्क तुटिल्ल्यान थंयच्या लोकांक दोन-तीन म्हयने एखाद्या जुंव्यार राविल्ल्या सारकें रावचें पडटालें. दर्याक उधाण आयिल्ले आसतालें. नुस्तेंमारी करप बंदच आसताले. शेतकाम करुन जी कितें पीक-पिकावळ येता आनी भाटांतल्यान जें कितें उत्पन्न काडूंक येता ताचेर पावसाळ्यांतली जीण सारप जातालें. असल्या तेंपार आपणाल्या घराब्याक पावसाळोभर पुरो जावपा इतल्या वस्तूंची तजवीज गिमाळो सोंपतां-सोंपतां करप सामकें गरजेचें आशिल्लें. ना जाल्यार पावसाळ्यांत उपाशीं पोटाचेर दीस काडपाचीं पाळी येताली.

म्हण गोंयांत गिमाळ्याचे अखेरेक चडशीं पुरुमेंताचीं फेस्तां गावांगावांनी जाताली. तांतले मुखेल फेस्त म्हळ्यार मडगांवचें होलीस्पिरीट इगर्जेचें माया म्हयन्याच्या मध्या उपरांत येवपी फेस्त. हें फेस्त म्हळ्यार पुराय गोंयभरच्या लोकां खातीर एक म्हत्वाची पर्वणी जावन आशिल्ली. इगर्जेच्या सरभोंवतणी मुखेल रस्त्याच्या दोनय वटांनी तरातरांच्यो वस्तू विकपी दुकानां लागतालीं आनी आजय बी तीं तशींच थाटून बशिल्लीं दिसतात. आता जशें पावसाच्या दिसांनी हेर राज्यांतल्यान नुस्तें गोंयांत येता, तशी कसलीच वेवस्था पयलींच्या काळार नाशिल्ली. त्या भायर दर्या खवदळिल्लो आशिल्ल्यान सुतां-पुनवेमेरेन दर्यांत व्हडीं लोटनाशिल्लें. गरवणेचें वा खुटावणेचें कितेंय करवट-बिरवट मेळ्ळ्यार व्हड अप्रूप आसतालें. म्हूण दरेक घरांनी खाऱ्या नुस्त्याची सांठवण ही सामकी गरजेची मानताले. ती गरज मतींत घेवन ह्या पुरुमेंताच्या फेस्ताक नुस्तेकारां तरेकवार अशें सुकें नुस्तें विकूंक हाडटात. तातूंत मोरी, वागोळें, बांगडे, सुगटां, दोडयारे, सांगाळे, बाळे, पेडवे, गालमो अशें आनी हेर खूबश्या तरांचे नुस्ते आसता. त्या भायर चोरुसांचो व्हडलो धंदो जाता.

दुसरी म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार मीठ आनी मसाल्याचे जिनस, गांवठी मीठ म्हळ्यार गोंयकारांक वखदी खूण आशिल्ली रुचकर वस्त. मसाल्यामदीं मिरसांग, (खोलची, पोरसाची, कामताची) आमटाण, (भिण्णा-मोटांब-आंबे हांची सोलां ना जाल्यार चिंचेची आमटाण) मिरया, जायफळ, लवंगां, तिखी, खसकस, सांसवां, हळद, वेलची, दगडफूल, पत्री आनी भोव आवडीचे आनी गरजेचे ते कांदे जाय तितल्यो चुडयो घेवन रांदचें कुडींतल्या रान्नीं-वयर धुंवराक हुमकळावपाचे. कांय जाण तांदूळ (उकडो, सूरय), नाचणे, वरी, कांगू असल्योय वस्तू घेवन तांची साठवण करतात. खोबरेल, तिळेल, भिण्णेल असली तेला आनी



लोणचींय (करमल, बिंबल, आंबे, लिंबू, हरवी मिरसांग हांचीं लोणचीं) आसतात.

दुसरी म्हत्वाची खरेदी ही लाकडी सामानाची आसता. आरमारी वल्तेरां, तरेकवार दिसपी कदेलां, मेजां, तामरेती, माणायो, लाटफळीं, लाटण्यो, देवाचे कुडींत दवरपाचें मंडप, भुरग्यां खातीरच्यो पाळणीं, खेळणीं, किरांगाडी, पांगुळगाडी, असल्यो वस्तू, खुटयाळी, हारशे, कांच, पेटलां, अश्यो कितल्योश्योच वस्तू विकूंक येतात. त्याभायर मातयेचीं आनी तांबें, पितळ आनी स्टीलाचीं घरगुती वापराचीं आयदनां आसतात. तरातरांचे नक्षीदार व्हाज आनी फुलदाण्योय विकपाक येतात.

पावसाळ्या खातीर कांबळी, कापोती, सत्र्यो, जोतीं, हांची गरज मतींत घेवन तीवय विकतीं घेवपा खातीर मांडिल्लीं आसतात. शेतकामत्यांक गरजेचीं अशीं आवतां आनी हेर वस्तूय आसतात. मडगांवच्या ह्या पुरुमेंताच्या फेस्ताच्या फाटी-फुडें, चड करुन मे म्हयन्याच्या तिसऱ्या शेनवारांक सांग्यार अवर लेडी ऑफ मिरेकलचें फेस्त-पुरुमेतांचें फेस्त म्हळ्यार आनीक एक फामाद फेस्त. उगें, मळकर्णे, भाटी, कश्टी, वालंकिणी ह्या सांग्यावेल्या गांवगिऱ्या वाठारांतल्या ह्या फेस्ताक उपाट गर्दी आसता. वस्तूंची खरेदीय व्हडा प्रमाणार जाता.

फेस्त म्हळें म्हण्टगीर काडयो-बडयो -खाज्यांचे मांड, चण्या-भिकणाचीं खोत्रां, रेवडेकारांच्यो धगधगपी कायली, लाडवांच्यो आनी कापांच्यो ल्हान-व्हड राशी, च्या आनी सोदाचीं दुकानां हें सगलें पारंपारिक चित्र आमच्या पुरुमेंताच्या फेस्तांनीय मुजरत दिसता.

फेस्ताक येवपी क्रिस्तांव भाव-भयणां पयलीं इगर्जेंत वचून मीस करतात वा संत/संतीणीचें दर्शन घेतात. केन्ना-केन्ना पुरसांवांत वांटेकार जातात आनी मनातलो भावार्थ उक्तायतना सर्गीच्या बापाक आनी देवदुताक आर्गां ओंपतात. ताच्या उपरांत फेस्ताचे फेरयेंत पासय मारुन गरजेच्यो वस्तू मोलावणी करुन घेतात. पुरुमेंताच्या फेस्ताक सावन खरेदी करुन घरा येतना जण एकल्या घरकाराच्या आनी घरकान्नीच्या मुखामळार समादानाची भावना आनी पावसाच्या येण्याखातीर लागिल्ली निकटी उमळशीक दिसल्या बगर रावना.

संपर्क : 9822123030

# पुरुमेंत-आमचे मुस्तींतलो!

**शीला कोळंबकार**

पुरुमेंत हो शब्द आयकलो कांय हांव भुरगेपणांत वतां. दोळे धांपतां. मागीर सुक्या कोथमिऱ्यांचो वास घम्म करून म्हज्या नाकांत रिगता.

ताका कारणूय तशेंच आसा. पणजेंत मराठा समाजाचो हॉल आसा. ताच्या समोर आर्कांच आर्कां आशिल्लें माळयेचें एक घर आसा. त्या घरांत म्हजो जल्म जाल्लो. वयाचीं तेरा, चवदा वरसां त्या घरांत गेलीं. तें आमचें राशीचें व्हडलें घर आसले.

त्या तेंपार मायाच्या निमाण्या सुमानाक पणजे व्हडल्या इगर्जेमुखार पुरुमेंताचें फेस्त जातालें. थंय त्या फेस्ताक कोथमिऱ्यो, सुक्यो मिरसांगो, सोलां, कांदे, मसाल्याचे पदार्थ विकूंक येताले. आमची आई म्हाका घेवन फेस्ताक वताली. त्या काळार एकली बायलमनीस भायर सरून वच नासली. वांगडा कोणाक तरी घेवन वताली. आई फेस्ताक पयलीं एक पासय मारताली. तिचे वांगडा हांव वतालें. सगळ्या मांडांवेलो कोथमिऱ्यांचो वास म्हाका पिशें लायतालो.

आई खंयच्यातरी मांडार रावताली. इतल्यो मिरसांगो, कोथमिऱ्यो आनी हेर वस्तू आमकां धाडून दी म्हूण सांगताली. आमी धव्या फुल्ल म्हानांची पोटली घेवन घरा येतालीं.

खरें म्हळ्यार पुरुमेंताची सुरवात महाशिवरात्र जाल्या उप्रांत जाताली. सांतीनेज आतांची जी बाबलो नायक कॉलनी आसा, थंय पयलीं व्हडलें शेत आसलें. शेताक लागून बांद आसलो. बांदार माड आनी चिंचेचीं झाडां आसलीं. देऊमामा म्हूण एक मानाय आशिल्लो. तो शेताची, माडांची देखरेख करतालो. बांदार आमचीं गोरवां आनी गोठो आसलो. खेरीज घांटयांच्यो खोपी आशिल्ल्यो. बांदावयली मावशी म्हूण एक बायलमनीस आसली. ती गोरवां सांबाळटाली.

एकदीस ह्या शेतांतलें भात घरा येतालें. आमचे माळयेर व्हडल्या सालांत, शेणान सारयल्लो एक व्हड हातरपाट, वाटकुळो, बांयभशेन बांदताले. तातूंत सगळें भात घालून दवरताले. उरिल्लें भात एका व्हड तोपांत घालून शिजयताले. हो तोप बरो दोन फूट व्यासाचो आनी तीन फूट उंचायेचो तांब्याचो आसलो. बांदावयली मावशी हो तोप फातरांच्या रांदनीर दवरताली.

तातूंत भात आनी उदक घालताली. तें भात शिजयताली. तिच्या अदमासान भात शिजलें काय व्हड पाटल्यांनी उसपून काडटाली. मागीर पासयेर हातर घालून ताचेर तें भात सुकत घालताली. अर्दीं मर्दीं तें भात पांयांनी चाळटाली. आमीय तिचे वांगडा तें भात चाळपाचो खेळ खेळटालीं.

हें भात गिरणीर व्हरून ताचे तांबूस रंगाचे तांदूळ करून हाडटाले. ते





साकांत भरून दवरताले. साकांत भरतना पायलेन ते मेजताले. देवूमामा ते मेजताना लाब लाब,  दोन दोन अशें व्हडान एके लयीन म्हणटालो. आमकां हासूंक तितलें कारण पावतालें.

दुसरो पुरूमेंत जातालो तो खोबरेल तेलाचो. नाल्लांचो पाडो जालो काय नाल्ल घरा येताले. पयलीं जायत्या पाड्यांचे सुके नाल, गुडगुडीं बी फोडून तांची वळीं सुकत घालताले. वळीं सुकलीं कांय खोबरें अचळय कुशीक काडून तें सुकयताले. तेल काडलें काय उरिल्ल्या खोबऱ्याची पेंड येताली. हें खोबरेल तेल सांठोवन दवरताले. पेंड गोरवांक घालताले.

मागीर येताल्यो त्यो चिंचो. चिंचो घरा आयल्यो काय आमी भुरगीं त्यो फोडूंक बसतालीं. चिंचो फोडचे परस, त्यो खावन दांत आंबट करून घेवपाची मजा आमचे खातीर चड आसताली.

आमच्या घरा काशीमावशी म्हूण एक वावराडी आसली. पूण ती घरचीच कशी आसली. घरा लागीं एक कूड आसली. तातूंत ती रावताली. फोडिल्ल्या चिंचेबोटांचीं सुतां काडपाचें काम काशीमावशी आनी बांदावयली मावशी करताली. काशीमावशी तीं सुतां एकठांय करून दवरताली. मागीर तीं सुतां पितळेचीं, तांब्याचीं आयदनां चकचकीत करूंक वापरताली. चिंचेचीं सोलां, भांडा पोंदा उदक तापोवपाक वापरताले.

सांजेर घरचीं सगलीं चिंचो कल्लावपाक बसतालीं. घे म्हूण चिंचारे मेळटाले. ते एका लातांत घालून दवरताले. पावसांत भाजपाचो आत्त आसतालो. आमी भावंडां ते खट्ट खट्ट करून खातालीं. रातचे चिंचारे खावपाक मनाय आसली. कित्याक तें कळ्ळेंना.

पयलीं रांदनीर रांदताले. ताका जळोव लागतालो. गाडे भरून भरून लांकडां हाडप जातालीं. हीं लांकडां घरांत दवरूंक एक सुवात आसली. भुरग्यांच्या हातार दोन दोन लांकडां दवरून, तीं ते सुवातेर व्हरून उडोवपाचें काम भुरग्यांचेर सोंपयताले. थंय देवूमामा आनी बाकीचे मानाय तीं लांकडां दाळून दवरताले.

मिठाचोय पुरूमेंत जातालो. पूण मीठ घरांत भरून दवरिनासले. तें वण्टीचे भिंतोडेक लांकडाच्या कार्शींनी भरून दवरताले. ह्या मिठांत पणसाची माव पुरून दवरताले. कित्याक तें खबर ना.

जळोव सांठोवन जातकच सुक्या नुस्त्याचो पुरूमेंत जातालो. सुके बांगडे, सुकीं सुंगटां आनी गालमो हांचो पुरूमेंत जातालो. त्या तेंपार लामणदिव्यांक आनी देवाक दिवो तिळेल तेलाचो लायताले. हें तिळेल बऱ्या पत्र्याच्या लातांनी येतालें. तेलाचे रिते डबे, बरे धुवन पुसून, सुकोवन दवरताले. ह्या लातांचो वापर सुकें सुकोवन भरून दवरपाक जातालो.

केन्ना तरी कांद्याच्यो मोवळ्यो येवच्यो. गांवठी कांदे. दोन दोन मोवळ्यो एकठांय बांदताले. रांदनी वयर एक कोंडो आडवो हुंबकळायिल्लो आसतालो. ताचेर त्यो मोवळ्यो रांकेंत आडकावन दवरताले. पावसांत ताचेर एक साक घालताले. एकेक खेप ह्या मोवळ्यांनी थोडे कांदे सुकिल्ले आसनासले. पावसांत तांकां ओलसाण लागली काय ते ठप्प ठप्प करून जमनीर घालून घेताले. ह्या भोवसंख्य कांद्यांक उबे चिरून, एकूच बटाट घेवन रुचीक बटाटभाजी जाताली.

मदीं केन्ना तरी आमच्या खांडोळ्याच्या भाटांतल्यान सोलां आनी काजी येताल्यो. सोलां मातयेच्या कातरे कातरे आशिल्ल्या रांजणांत भरताले. ते कोठये कुडींत वचून बसताले. असोच एक रांजण आसतालो आमटाणीचो. कल्लयल्ल्या चॉकलेटी कोराच्या आमटाणीचे लांबट धवेफुल्ल खडेमीठ लायिल्ले गुळे पळोवपाक बरे दिसताले. चकचकीत. पूण मागीर जेन्ना ते रांजणांतल्यान भायर काडटाले तेन्ना ते काफये कोराचे जाताले.

आख्ख्या भरिल्ल्या तोरांचें लोणचें आई केन्ना करताली कळचनासलें. चिनी मातयेच्या व्हडल्या बुयांवांनी हें लोणचें भरून दवरताले. तें बद्द श्रावण म्हयन्यांत काडटाले. मदीं खावपाक करेलाच्या फोडीचें लोणचें आसतालें.

मुशारात आंब्याचो हालवो घरांत शिजतालो खरो पूण राशीच्या घरांत जितलो तो शिजतालो तितलो रोखडोच केन्ना सोंपलो कळचनासलो. पुरूमेंताक उरचनासलो.

असो हो पुरूमेंताचो तेन्नाचो इतिहास. आतां सगळे जिनस वर्सभरूय मेळटात. लोणचीं, पापड, मसाले करून दवरपाची गरज ना. हांवें मांडलो तो पुरूमेंत - पुरूमेंता कडेन संबंदीत यादींचो!

संपर्क : 9819315307



# पुरुमेंताचें फेस्त

**मनस्विनी प्रभुणे – नायक**

पणजेंतलो अठरा जून रस्तो त्या दिसा एकदम वेगळोच सो दिसलो. रस्तो तोच आसलो पूण रस्त्यावेलें चित्र मातशें आगळेंच आसलें. फेस्त आसा अशें दिसतालें. पूण सदच्या फेस्तांत आसतात तसलीं रंगयाळी दुकानां काय दिसनासलीं.

फेस्त म्हळ्यार इगर्जेच्या दारामुखार आनी सरभोंवतणी भरपी जात्रा. अर्विल्ल्या गजालींचो आसपाव जरी जाल्लो आसलो तरी आज लेगीत फेस्ताक अस्सल गोंयचे मातयेचो वास मारता. पूण त्या दिसाच्या फेस्ताचें चित्र मात आगळेंच आसलें आनी त्या खातीरच म्हजी उमळशीक वाडिल्ली. रस्त्यावेल्या गर्दैंत हांवय रिगलें. सप्तकाच्या बाजारांत जशीं रस्त्याच्या कडेक ल्हान-ल्हान दुकानां मांडून बसतात तशीं सदच्या वापरांतले जिनस घेवन रस्त्याचे कडेक बायलांनीं आपलीं ल्हान-ल्हान दुकानां थाटिल्लीं. पयलेच फावटीं हें आगळें वेगळें फेस्त म्हजें म्हज्याखातीरच भरलां अशें दिसपाक लागलें. त्या दिसा हांवें अणभविल्ल्या फेस्ताच्या ह्या प्रकाराक कितें म्हणटात तें कळ्ळें ना. हांवें मात पोट भरुन तातूंत भोंवन घेतलें. खुपश्यो गज़ाली म्हाका नव्यान समजुपाक लागल्यो. दुसऱ्या दिसा नेमाळ्याचेर फोटो सयत बातमी वाचतना कळ्ळें, हाका 'पुरुमेंताचें फेस्त' म्हणटात. पयलीं हें फेस्त कसलें हें सोदपाक हांव गुंतिल्लें आनी आतां ही बातमी वाचून 'पुरूमेंत' म्हळ्यार कितें? ह्या उतराक जेरुल एक विशिष्ट अर्थ आसतलो पूण ह्या फेस्ताक अशें कित्याक म्हण्टात हाचो सोद सुरु केलो.

मूळ पुर्तुगेज उतर 'प्रोव्हिसांव' वेल्यान 'पुरूमेंत' हें उतर आयलां. 'प्रोव्हिसांव' म्हळ्यार 'प्रोव्हिजन' म्हणजेच सांठो करप. हें उतर कळटगीर रोखडेंच 'गणेश प्रोव्हिजन स्टोअर्स' 'दीपाली प्रोव्हिजन स्टोअर्स' ह्या दुकांनाच्यो पाटयो दोळ्यां सामकार येवन गेल्यो. आतां मात तांच्या जाग्यार सगळेकडेन 'सुपर मार्केट' अशें वाचपाक मेळटा. पूण हें मात गोंयचे बाबतींत घडना आनी म्हुणून पुरुमेंता सारकेलीं फेस्तां आजय जितीं आसात. ह्या फेस्तांक जावपी गर्दी हीच ताच्या जितेपणाची गवाय आसा.

गोंयांत वर्सुयभर तरेकवार फेस्तां भरतात. पूण पुरुमेंताचें फेस्त खास करुन बायलांखातीरच भरिल्ल्या भशेन दिसता. कित्याक तर हातूंत मेळटात वर्सभर सांठोवन दवरपाचे नग. सदांच लागपी गरजेच्यो गजाली. गांवठी मीठ ते खोबरेल तेल, मिरसांगो ते तरेकवार सांबार, दुदी ते आदोळी, कोयते मेरेन सगळें ह्या फेस्ताच्या बाजारांत मेळटा. पणजेच्या देखण्या रस्त्यांच्या कडेक सजिल्लीं हीं दुकानां मुद्दाम पळोवपा सारकीं आसतात. पयलेच फावटीं पळयिल्ल्या ह्या पुरुमेंताच्या फेस्ताचें चित्र म्हज्या मनार सासणाचें कोरांतलें. दुसऱ्या खंयच्याय न्हय तर दरवर्सा ह्या फेस्ताची चातका भशेन हांव वाट पळोवंक लागलें.

माया म्हयन्याच्या तिसऱ्या वा चवथ्या सुमानांत पुरुमेंताचें फ़ेस्त भरता हें आतां म्हज्या तकलेंत घट्ट बसलां. हें फेस्त म्हळ्यार पावसाळ्या खातीर सांठवण. गोंयांत आकांताचो पावस पडटा. पावस लागून उरलो तर सप्तक-सप्तक भर कोसळटा. पयलीं आयचे भशेन परिस्थिती नासली. येरादारीचीं सादनां सामकीं उणी आसली. आतांभशेन वर्साचे बाराय म्हयने सगळें मेळटा असल्यो बाजारपेठो नासल्यो. घरांत फ्रिज नासले. सदांच लागपी गरजेचे जिनस म्हयन्यांनीच मेळटाले. जुन-जुलय-आगस्ट हे तीन म्हयने तर सामके काचाबूल करपी आसताले. ही परिस्थिती मतींत घेतल्यार ह्या तेंपाखातीर तजवीज म्हण मुद्दाम कांय खाशेले जिनस, वरव-गोठो, खाणां हांचो सांठो करपाचे परंपरेक सुरवात जाली.

पुरुमेंताचें फेस्त हें गोंयचे जिणेचो एक वेगळांवक नजो असलो भाग हें त्या फेस्तांत भोंवतना कळटा. हें फेस्त दोळ्यां इतलेंच नाकानय अणभवपाचें आसता. फेस्तांत भितर सरतनाच नाकाक पयलो वास येता तो मिरसांगेच्या आनी सांबाराच्या दर्पटसाणेचो आनी नदरेक पडटा काणकोणच्यो फामाद मिरसांगो विकपी बायल. फकत मिरसांगोच न्ही तर हळद, मिरीं, लंवगा, तिखी विकपाक आसता. कोण तरी बायलमनीस गोंयचे खास लोणचें विकता. तें ल्हान ल्हान तोरांचें भरिल्लें लोणचें पळोवनच जिबेक रुच येता. खळांतली आमली हांवे पयले फावट हांगा पळयली. खळांतली आमली म्हळ्यार मिठाच्या उदकांत करमेवंक घाल्लीं तोरां. रातची गरम गरम उकडऱ्या तांदळाची पेज आनी तोंडाक लावपाक भरिल्ल्या आमलेची एक फोड खावपांत वेगळेंच सूख आसा.

मात्शें काळसर गुलाबी दिसपी मीठ पयलेच फ़ावटीं पळोवन अजाप जाता. हें असलें कसलें म्हेळें दिसपी मीठ लोक खातात असो प्रस्न पडटा. पूण ह्या मिठाक खूप गिरायक आसता. खंयचीच रसायनीक प्रक्रिया करुंक नाशिल्लें हें मिठ सैमीक तरेन करतात. आरोग्याक हें मिठ खूप बरें. गोंयांत मिठाचीं आगरां नानपयत जांवक लागल्यांत. मिठ तयार करप हें आतां किचकटीचें काम जालां. शिवाय तें करपी पिळगी लेगीत हळू हळू सोंपपाक पावल्या. त्या खातीर हें मिठ विकपी साप्प थोडे लोक आतां फेस्ताक दिसतात. घरा घरांत हेंच गांवठी मीठ वापरतात. खूप लोक मुद्दाम हें मीठ व्हरपाक फेस्ताक येतात.

नुस्तें गोंयकाराचें जीव काय प्राण. पावसाळ्यांत नुस्तें मेळप कुस्तार जाता. पूण पुर्वजांनी हाचेरूय उपाय सोदून काडला. पावसाळ्यांत चडश्या घरांत खारें नुस्तें वापरतात. वेगवेगळ्या तरांचें खारें नुस्तें पुरुमेंताच्या फेस्ताक विकपाक येता. सुके बांगडे, सुकीं सुंगटां, सुको गालमो घेवपाक लोकांची खेट पडटा. भायल्या देसांत राबितो केल्ले गोंयकार माया म्हयन्यांत एक तरी पावट आपल्या मायभुंयेंत गोंयांत मारता आनी तेन्ना एक पासय ह्या पुरुमेंताच्या फेस्ताक माल्ल्याशिवाय





रावना. हांगा मेळपी खाऱ्या नुस्त्याबगर ते थंय रावूंक शकनात. संवसारात गोंयकार खंयूय आसूं तो गोंयच्यान खारें घेतल्याबगर वचना. एक आमिग सांगतालो, अमेरिकेक परत वेतना खारें व्हरप काय कपडे अशी परिस्थिती जाली. कपडे हांगा दवरून तो खारें नुस्तें घेवन गेलो. इतलें म्हत्व नुस्त्याक दिवपी आनी रुचीन खावपी गोंयकार सोडून दुसरो मेळपाक कठीण.

त्याशिवाय भिंडाचीं सोलां, सुकयिल्ल्या आमलेच्यो फोडी, खोबरेल तेल, गांवठी कांदे, उकडे तांदूळ, आंब्यांचें -पणसाचें साठ लेगीत ह्या फेस्ताक मेळटा. अळसांदे नांवाचें कड्डण फकत गोंयातच जाता. पुर्तुगेजांनी कांय गजाली आपल्या सांगाताक गोंयांत हाडल्यो तांतूंत अळसांदे हें कड्डण आसलें. धव्या चवळेच्या दाण्यापरस अळसांदे आकारान व्हडले आसतात.

आता इतल्यो सगळ्यो रुचीक वस्तू मेळटात थंय सदचे गरजेक लागपी आयदनांय मेळपाक जाय न्हय? तांचीय दुकानां पळोवपासारकीं आसतात. गांवगिऱ्या जिणेची झलक ह्या आयदनांतल्यान मेळटा. बुडकुलो म्हळ्यार शीत करपाचें आयदन. कुयणें, आदोळी हांची वळख म्हाका पुरुमेंताच्या फेस्तांतल्यान जाली. कोब्यांचें तोंड आशिल्लो मातयेचो माठ जाका 'गुरगुरेत' म्हणटात ताचें नांव आयकूनच म्हज्या जिवाक थंडसाण भोगली.

अशीं व्हडली जंत्रीच आसा हांगा मेळपी गजालींची. पुरुमेंत हो सांठोवन दवरपाचो जरी सुवाळो आसलो तरी तातूंत सगळ्या समाजाचो आसपाव पळोवपा सारको आसता. वरव -गोठो, भाजी घेवन येवपी शेतकार, मातयेचीं आयदनां विकपी कुमार, नुस्तें विकपी खारवी अशे समाजांतले वेगवेगळे घटक पुरुमेंताच्या फेस्ताक दिश्टी पडटात. त्या खातीर बाकीच्या फेस्तां परस पुरुमेंताच्या फेस्ताक हांगच्या मातयेचो सुवाद आसा, आपलेंपण आसा. खरे गोंयकारच तुमकां ह्या फेस्ताक दिश्टी पडटले.

***(अणकार: सखाराम शेणवी बोरकार)***

संपर्क : 9730871118



# पुरुमेंत-आमचे मुस्तींतलो!

**जयमाला ना. दणाईत**

आमचे मुस्तींत खुबशा वस्तूंचो पुरूमेंत करचोच पडटालो. होळी, शिगमो, पिंडिका हे सुवाळे जाले, शाळांच्यो वर्सुकी परिक्षा सोंपून सुटयो सुरू जाल्यो की पुरूमेंताचे वेध लागताले.

एप्रील, मायाचें खर वत पडूंक लागलें म्हण्टकच सगळ्या घरांनी पापड, वोडयो, साबुदाण्याचे सांडगे, कणंगांचें घोंस, खोबरें सुकोवप - आनी सुकें नुस्तें - बांगडे, सुंगटां, गालमो, मोरी सुकत घालप सुरू जातालें.

त्याभायर पणस, आंबे आशिल्ल्यांगेर तर तांचीं साठां, कापे घरे हांचीं तटां घरांच्या पांख्यांचेर सुकत पडटालीं. नाल्ला वळीं, नुस्तें बी सुकत घालतगीच कावळ्यांनी वा सुण्यांनी तें फारांव नये म्हणून घरांतली जाणटीं वा शाळांनी सुटयो पडिल्लीं भुरगीं हांचेर ही राखण करपाची जापसालदारकी येवन पडटाली.

आमच्या वेळार गांवच्या घराघरांनी पापड करपाचो व्हडलो आक्त आसतालो. आदल्या दिसा घरांतली आसानाशिल्लीं लाटफळीं, तोणयो भायर सरतालीं. माळ्यावेले हातरपाटे, हातऱ्यो धुवन पुसून सगळी सामग्री फायच्या पापडांखातीर सज्ज जाताली. पयल्या दिसा सांजे तारवटी मिरसांगो, पापडखार, बरो हिंग सगळें उदकांत भिजोवन मागील दारांत पडवेर घरच्या अणभवी बायलांचो पंगड आदीं दळून हाडिल्ल्या उडदां पिठांत सगळे जिन्नस जुस्ताजुस्त घालून बऱ्या जाणकार बायले कडल्यान ती पिठी कालोवप जातालें. वायनांत घालून जावं लोखणाच्या व्हडल्या खलबत्यांत घालून ती पिठी एकजीव करप.

ताचे सगळे गुळे करुन घेवप, ते गुळे फातरीचेर बरें तेल बी लावन काण्णान धाडावन मोव करुन घेवप, सगळे वटेन सारके फार बी घालून ताजे वेवस्थीत गुळे करुन दवरप. आनी सकाळीं उठनाफुडें न्हावन धुवन च्या पाणी जालें की कामाक सुरुवात! पयलीं एकेक गुळो फातरीर सोडोवन ताचेर तेल लावन परत परत घालून ताज्यो माळणाभशेन लोळयो करुन घट सुतान जांव केळीच्या दोरान ताच्यो एकसारक्यो गुळयो करुन ओल्या कापडान जावं बाणशिऱ्यान धांपून दवरप. आनी ह्या सगळ्यापयलीं रुच पळोवपाक म्हणून घरच्यांनी सगळ्यांनी इल्ली इल्ली करुन ती पिठी तोंडांत उडोवन पळोवंकूच जाय हां. अर्थात पयलीं दोन गुळ्यो वाटयेंत दवरुन त्यो देवामुखार पावोवप. ''म्हाका आनी इल्ली दी गे, कपभर कितें दिताऽऽ करुन भुरग्यांनी लालेवप आनी ''पापया, चड खावं नाका, पोटांत उजो पडटलो करुन जाण्ट्यांनी भेकडावप हें सदचेंच आसतालें.

आदल्या दिसाच भुरग्यांनी शेजाऱ्या पाजाऱ्यांगेर पेरगांव घाल्लें आसतालें. फाल्यां आमगेर पापड करचे आसात म्हणून. वर्सासना प्रमाण पांच स घरचीं बायलां (बरोबर भुरगीं) सकाळफुडेंच आपापलीं लाटणीं लाटफळीं खाक्यांत मारुन आंगणांत जमतालीं. मागीर पडवेर पापडांचो हो मांड पडटालो. कोण गुळयो करतालीं. जांकां सारके पापड जमनात त्या भुरग्यांक लाटय़ो करपाक दितालीं. मागीर मांडे (चेडवां) ते तीन चार लाटयो एकार एक तेल पीठ लावन सारके लाटप आनी ते सोडोवन घेवन बरे पापड लाटूंक येतात त्यो बायलो तांचे एकसारके पापड लाट्टालीं. थोडे थोडे जमतगीच आंगणांत व्हरून हातरपाट्यार ते बरे सुकत घालप. पापड राखपाक ल्हान भुरग्यांक बसयतालीं. तांतूत मागीर गुळयो लाटयो लंपास करुन तेलांत बुचकळान खावपांत जी रुच आसताली ताका तोड ना. पापड सुकत घालतनाय ते ओले पापड तोडून ल्हवूच तोंडांत घालपाची मजा सामकी औरच म्हणपाची!

तर पापडां मांडार बायलांच्या गांव खबरांक ओतो म्हण्टा तसो येतालो, ''कोणा बाबडेची जीण सामकी तळपत्या वाड्यार वाळवण जावन पडल्या, तर कोण कशी सुखान सर्ग सुख भोगता. कोण कोणाच्या मोगांत पडला तर कोण लग्न जावन पंदरशी भितर घोवा घरा पटना म्हणून कुळारा परतून आयल्याऽऽ अश्यो गांवभरच्यो गजाली चलताल्यो. एकेवटेन आटसाट्या भुरग्यांच्यो एकमेकांच्यो मस्कऱ्यो, फकाणां चलतालीं. हुमाणीं, जोक्स चालूच आसताले. पदां म्हणप, भेंड्यांनी खेळय चलतालें. खेळकर वातावरणाक लागून कामाचो शीण कमी जातालो. सगळ्यांनी एकठांय बसून जेविल्लें तें साधेसुदें जेवण व्हडली मेजवानी थारताली. दनपार म्हणसर सगळें उलगून जण एकलीं

*(पान ३० चेर)*

# बायलांचे सभावगूण दाखोवपी कोंकणी म्हणी

हर्षा शेटये

मनीस हो एकमुळो न्ही. ताका समाजांत चार चौगां मदीं रावपाक आवडटा. मनशाचे दिसपट्टें जिणेंत ताचो संबंद वेगळ्या वेगळ्या मनशां कडेन येता. ह्या मनशांचो सभाव एकसारखो नासता. कोण मायेस्त, कोण कुन्राटो, चामटो, फुरफुरो, बुरसो, फोल्गी, फटकिरो, सहनशील. खंयचीय एक घडणूक घडटकीच ते घडणुकेंतल्यान त्या मनशाचो सभावगूण चड उठून दिसता आनी मागीर हेरांनी ते घडणुके वयल्यान देख घेवची म्हूण ते घडणुकेक संबंदीत अशी म्हण वा वाक्‌प्रचार जल्माक येता.

बायल मनशेच्या सभावाचेर आदारीत अश्यो खूबश्यो म्हणी कोंकणी समाजांत घोळटात. तांतल्यो कांय म्हणी पुंजावपाचो हांवें यत्न केला.

पयलींच्या तेंपार चली जल्माक येतनाच आवय बापूय तिका दुसऱ्यागेर दिवपाची वस्त हेच भावनेन वाडयतालीं. तेच संस्कार तिच्याय मनार जातालें. आपलें लग्न जावन आपणें घोवागेर वचप, हेंच आपलें कर्तव्य अशें ती मानताली. ते खातीर व्हंकलेचेर आदारीत अश्यो म्हणी आमकां खूब मेळटात. देखीक व्हंकलेचीं चिन्हां वाळ्याच्या कट्टरार - चलयो पांयांत रुप्याचे वाळे घालतालीं. घरांत काम करपी चलयेचे वाळे झरताले. तेन्ना परते परते वाळे मोडून बी नवे करपाची पद्दत नाशिल्ली. ते खातीर तिच्या पांयांतले वाळे झरिल्ले आसल्यार ती काम करपी अशें मानतालीं.

आनीक एक व्हंकलेच्याच वाळ्याचेर आदारीत म्हण. 'व्हंकलेचीं चिन्हां वाळ्याच्या खळखळार' व्हंकल चलता-भोंवतना तिच्या वाळ्यांचो बारीक मोठो आवाज येतालो. ताचे वयल्यान ती थंड सभावाची कांय उंचाबळीत हाचो अदमास काडटालीं.

आनीक एक व्हंकले विशींची म्हण.

'व्हंकलेचीं चिन्हां सव्यार कळटात.'

लग्नाच्या वेळार व्हंकल कशी वागता, उलयता, चलता ताचे वयल्यान तिचे गूण कळटात असो ताचो अर्थ.

लग्न जावप हेंच आपले जिणेचें उद्दीश्ट अशें मानपी चलयो त्या काळार आशिल्ल्यो. एके चलयेची खंय सोयरीक जुळनाशिल्ली. तांतूंत ते चलयेचो सभाव मात्सो फुरफुरो. बापूय बाबडो खंय नवरो आसा म्हूण कळटा थंय वचून आपलीं जोतीं झरयतालो. कांय वेळार सोयरीक जुळटा शी जाताली पूण मदींच विघ्न येतालें. अशें करतां करतां एक दीस तिची सोयरीक जाली. पयलींच फुरफुरो सभाव, आतां तर सामकीच भुल्लुसली. कितें करुं आनी कितें नाका. मदींच विणी सोडून आंबाडो घालता, परत्यो दोन विणयो घालता. हें कापड सोडून तें कापड न्हेसता. निमाणो लग्ना दीस उदेलो. व्हंकल न्हेसून करून बसल्या. तिचे म्हऱ्यांत लग्नाक लागपी वस्तू आसात. न्हवरो आयला म्हणून सगळीं जाणां भायर गेल्यांत. इतल्यान हिका कडकडून मुतूंक जालें. ते वटेन वाजंत्र्याचो आवाज येता. म्हजो नवरो आयलो. येवजून सामकी भुल्लुसली आनी कऱ्यांत वचून मुतली. ताचे वयल्यान 'भुरकुटली व्हंकल कऱ्यांत वचून मुतली' अशी ओपार आयल्या.

बायल मनशेचो फुरफुरो सभाव दाखोवपी आनीक एक म्हण आसा. 'भागेबायलीं आबोलीं रोयता म्हणसर फुल्लीं आनी फुलतां म्हणसर उलगलीं'. ताचे फाटली काणी अशी. भागेबाय म्हणून एक बायल आशिल्ली. सामकीच हुतहुती. एक दीस तिणें आबोल्यांची ताळी रोयली. ताळयेक पयलींच बाविल्लीं आबोलीं आशिल्लीं. हिणें ते ताळयेक उदक बी घातलें. आबोलीं फुल्लीं, आबोलीं फुल्लीं म्हणून बोवाळ मारीत घरच्यांक आपोवपाक धांवली. घरच्यांनी भायर येवन पळयलें जाल्यार आबोलीं बाविल्लीं.

कोंकणी बायल मनशेक भांगराचो खूब सोस. ताचे वयल्यान जल्मल्ली एक म्हण. 'शेंसफूल तिंतल्या रवलां.'

शेंसफुलां म्हणल्यार भांगतिळ्याचे दोंशी वटेन केंसार माळटात तीं दोन फुलां. एक चंद्रकोरीच्या आकाराचें आनी दुसरें वाटकुळें सुर्याच्या आकाराचें. एके बायले कडेन खंय सगळ्यो भांगराच्यो वस्ती आशिल्ल्यो दोट्टी गोट, तोडीपाटली, बायखुरी, फुगदोर, कट्टुरें, सुरंगां वळेसर, केगद विणी, लफ्फो, चाफीं, साळीक. आनीकूय जायत्यो वस्ती आशिल्ल्यो. पूण तिचे कडेन शेंसफुलां फाल्त आशिल्लीं. म्हणून तिका सुख नाशिल्लें. शेंसफुलां करपाचीं उरल्यांत हाची तिका खंत आशिल्ली. मेळत ताचे कडेन 'शेंसफुल तितक्या रवलां' हें उलोवन दाखयतालीं. सगळें आसून जें ना ताचो सोंस धरतात तेन्ना ही म्हण म्हणटात.

आवयक धूव म्हणल्यार माथ्या वयली. तिका धुवेचे गूण व्हड करुन सांगपाची संवंय आसता. तांतूंत धुवेच्या लग्ना वेळार तर आल्लिे नाशिल्ले गूण एकठांय करून ती धुवेक तोखेता. देखीक,

'व्हंकलेक कोण वाखाणटलो, व्हंकलेची आवय न्हय जाल्यार?'

आनीक एक ह्याच अर्थाची म्हण कोंकणी भाशेंत घोळटा. 'तारा, सिता, अहिल्या, द्रौपदी, मंदोदरी, तांतूंत म्हगेलें कामणें' हे म्हणी फाटली काणी अशी. एक खंय कामण्या आवय आशिल्ली. कामण्याचें लग्नाचें वय जाल्लें. पूण लग्न जमनाशिल्लें. एकदां तिणें हरदासाचें किर्तन आयकलें. हरदासान पुराणांतल्या पतिव्रता बायलांच्यो कथा सांगिल्ल्यो. ताणी आपले जिणेंत खूब त्रास भोगले हेंवूय सांगिल्लें. दुसरे दिसा शेजाऱ्यीन तिका विचारलें, 'कामण्या आवय कसली कथा सांगली गे हरदासान?' हिणें थोडे भितर कथा सांगल्यो आनी म्हणलें, 'तारा, सिता, अहिल्या, द्रौपदी, मंदोदरी तातूंत म्हगेलें कामणें.'

धुवेच्या लग्ना वेळार आवयचो जीव सामको थतर वितर जाता. एक तर बरे भशेन लग्न जावंक जाय हो हुस्को आनी दुसरे वटेन काळजाचो कुडको दुसऱ्यागेर दिता म्हणून आकूळ पिकूळ जावपी जीव. ते खातीर लग्ना माटवांत कोण कितें उलयता, करता ताचेर तिचें लक्ष वचना. ताचे

वयल्यान 'लग्नांत व्हंकले आवय भेरी' ही म्हण आयल्या.

आजी सामकी मायेस्त आसता. आपल्या सगळ्या नातरांचेर ती सारखोच मोग करता. तिचो हो सभावगूण दाखोवपी म्हण कोंकणींत आसा. ताचे फाटली काणी अशी एके बायलेची एक धूव खंय गिरेस्तांगेर दिल्ली. सोशें आनी घारशें ह्यो ते गिरेस्त धुवेल्यो चलयो. दुसरी धूव सर्व सादारण घराब्यांतली. फुलू आनी देवरशें ह्यो दुसरे धुवेल्यो चलयो. कोणेंय तिका खंयच्यो नाती आवडटात काय म्हणून विचारतकीच तिणें सांगचें खंय, 'जशें म्हाका सोशें घारशें, तशें म्हाका फुलू देवरशें', आपल्याक सगळीं जाणां सारखीं अशा अर्थान ही ओपार मारतात.

आजी, मातशी म्हणल्यार भुरग्यांक लागींची. भयणींचीं, भुरगीं म्हणून मावशेक भाचरां सामकीं प्रिय ते काळांत नणंदे भावजयेचे संबंद तितले बरेऽ नासताले. नणंदेन भावजयेक थोमणो मारप, चड काम करपाक लावप अशें चलतालें. मागीर भुरगींय तितलीं मावळणी कडेन लागीं वच नाशिल्लीं. ताचे वयल्यान 'आका! दोळ्यां मुखार नाका! मावशी खावपाक भरपूर दिवशी!' ही म्हण आयल्या.

चली भुरग्यांक चडशी जेवणा खाणाची खोड आसना आशिल्ली. आसलीच जाल्यार कुळारा अपुरबाय जाता तशी घोवा घरा जावचीना आनी ती सगळे खावपाक शिकतली ह्या अर्थाची ही म्हण. 'घोवा घरां वच्चें, सगळें खावंक शिकचें.'

रांदूंक येना आशिल्ली चली लेगीत रांदूंक शिकता आनी तांदूळ शिजोवनूच खाता ह्या अर्थाची एक म्हण. 'तांदूळ कोण व्हंटयेंत घेवन खायना.'

आवयक आपले धुवेची जितली ओड आसता तितली मांयक सुनेची नासता. धूव करता तें सगळें बरें. सूनेच्या वावराक नांवां दवरप अशें एका तेंपार चलतालें. आवय, धुवे आनी सुने भितर भेद करताली. हें दाखोवपी खूब म्हणी मेळटात.

एक मांय खंय आपले धुवेक उमाशेचे उमाशेक आनी पुनवेचे पुनवेक म्हणल्यार दर पंद्रशेक आंगाक तेल लावन बी न्हाणयताली आनी सुनेक तेल लायिल्ले दिश्टीच पडनाशिल्लें. धूव सून दोगीय धा-बारा वर्सांच्यो. चौगाच्या घरांत कोणाच्या तरी लक्षांत गेलें आनी कोणें तरी तिका विचारलें. हिची जाप तयार आशिल्ली. धुवेक मगे, हे उमाशेचें तेऽऽऽपुनवेक आनी सुनेक हे दिवाळेक ते दिवाळेक. हाचे वयल्यान धुवे सुनेमदी भेद करतले मांयक उद्देशून ही ओपार मारतात. 'धुवेक तेल उमाशेक पुनवेक, सुनेक हे दिवाळेक ते दिवाळेक'. हीच म्हण 'धुवेक तेल ह्या शेनवारा ते शेनवारा. सुनेक तेल ह्या दिवाळेक त्या दिवाळेक' अशीय घोळटा.

धुवे आनी सुने मदीं भेद दाखोवपी आनीकूय म्हणी मेळटात. 'धुवेचें मूत गंगेपाणी, सुनेच्या मुताक येतात घाणी.' हीच म्हण संवाद रुपानूय मेळटा.

'कोण गे बाये फसा फसा
हांव गे आई
तरीच तें फुसूफुसू'

आनीक एक म्हण

'कोण गो बाय चुळूचुळू
हांव न्ही गे आई, व्हनी
तरींच तें फसाफसा'

सगळ्योच मांयो कितें वायट नासतात. सुनेक समजून घेवपी मांयोय आसतात. एका कुटुंबांत खंय एक दीस जेवपाक सोयरो आयिल्लो. मांयन आनी सुनेन मेळून जेवण रांदलें. वाडचे वेळार पळयत जाल्यार सदच्या बुयांवांतले लोणचें सोंपलें. लोणच्याचे बुयांव माळ्यार दवरलेले आशिल्ले. सून निसण लावन माळयार चडली. बुयांव हातांत धरुन सकयल देंवपाक लागली. मांयन बुयांव हातांत धरपाक हात वयर केले. तिणें बुयांव हातांत घेतलो अशें समजून सुनेन हात सोडले. मांयन बुयांव घट्ट धरुक नाशिल्लो. बुयांव घो करुन जमनीर पडलो. सगळें लोणचें फुकट गेलें. तें पळोवन सून सामकी भियेली. मांय सामकी शाणी सुरती. तिणें सुनेक म्हणलें, 'कांय नजो आं सूनबाय! दितना चुकली, घेतना चुकली.'

एक बायल सामकी आळशी आशिल्ली. घरच्या कामांक हातबोट लावपाक सामकी फाटल्यान. पूण तेन्ना रासवळ कुटुंबां आसल्या कारणान हेर बायलो कामां करतालीं आनी वेळ निभावतालीं. त्या काळार म्हयन्याचे पाळये वेळार बायलांक तीन दीस वेगळें बसचें पडटालें. रांदचें कुडींतल्या कामाक हात लावपाक मेळनाशिल्लो. ते खातीर मागीर ही आळशी बायल बशिल्ले कडेन बडबडटाली. 'काय बरी हांव घोवाक शिरवळयो करून वाडटा आशिल्ली. येल्लापे करतली आशिल्ली, कांद्या भाकरी करतली आशिल्ली, पूण कितें करूं, म्हजो हात लागना.' हरशीं घोवाक कितें जाय नाका तें पळयनाशिल्ली बायल म्हयन्याच्या म्हयन्याक वेगळे बशिल्ले कडेन घोवा वयलो मोग उक्तायताली. ताचे वयल्यान 'भश्टचे बायलेक घोवाचो मोग' ही म्हण पडली.

अण्णा म्हणून एक मनीस आशिल्लो. ताचे बायलेक सगळीं जाणां अण्णाबायल म्हणून वळखतालीं. अण्णाबायल, अण्णाबायल म्हणत म्हणत तिचें नांव आणाबायल जालें. तिचो सभाव झगडाळ आशिल्लो. कितें तरी निमित्त काडून ती सगळ्यां कडेन झगडटाली. गोंयांत पुरुमेंताक आमटाण बरी सुकोवन ताचे गुळे करून बुयांवांत भरून दवरतात. ही आणाबाय आमटाणीचे गुळे व्हरुन परती परती वताक दवरताली. 'आगे, कितले दीस गे आमटाणी गुळे वताक घालता.' मागीर तिका कोणूय विचारतालो. 'तुका कित्याक पडला?' अशें म्हणत ती झगडपाक सुरवात करताली. कारण नासतना कोणूय झगडपाक लागतकीच 'आणाबाय आंबटाणी गुळो' ही ओपार मारतात.

आणाबायले भशेन आनीक एक अशीच झगडाळ बायल आशिल्ली. घरच्यां कडेन झगडपाक कितें ना कितें कारण उस्तून काडटाली आनी झगडत रावताली. हिच्या झगड्याच्या बोवाळांत घरांतलीं कामां जायनात म्हणून हिका एक दीस घरच्यांनी वेळेर धाडली. थंय खंय ही दर्या, तुजीं ल्हारां घस्स करुन येतात, फस्स करुन म्हाका भिजयता अशें म्हणून दर्या कडेन झगडूंक लागली. ताचे वयल्यान कोणूय बेठेच

निमित्त करून झगडूंक लागली जाल्यार 'दर्या, तुजें घस्स, म्हजें फस्स' ही ओपार मारतात.

कांय बायलांक आपले कडेन कांयच नासतना हें आसा तें आसा करून सांगपाची संवंय आसता. एक बायल खंय घरांत तांदूळ नासतना आज हांव सात्रां उकडटलीं उकडटलीं म्हणून वाडो भर सांगत राविल्ली. ताचे वयल्यान 'घरांत ना तीन तांदूळ, सात्रां उकडूंक भोवता रांडूल' ही ओपार आयल्या.

ह्याच अर्थाची आनीक एक ओपार आसा. चाकरमणी घोव, तिच्या चोळयेक थिगळां णव. हाचे फाटलीं काणी अशी, एकदां खंय एकली बायल देवळांत किर्तनाक आयिल्ले कडेन पांय पातळावन बशिल्ली. आंगा वयलें कापड पळयल्यार सामकी मोठ्यांगेली कशी दिसताली. हिका पांय कवळ म्हणून कशीं सांगतलीं? तरीय एकटी बायल तिचे म्हऱ्यांत गेली. कोण तूं, खंय रावता करून वळख केली. 'म्हजो घोव राजालो चाकरमणी, ताचे हाता सकयल सगळे चाकर. म्हज्या घोवा बगर राजालें पान हालना'. हिणें तिका खंय रावता बी तें विचारून घेतलें. आपल्या घोवाक राजागेर कामांक लाय म्हणून सांगपाक दुसरे दिसा ही उठून तिगेर गेली. थंय वचून पळयत जाल्यार येदेशे खोंपी मुखार एक पोरणें कापड न्हेसून ही बसल्या. आंगाक घाल्ले चोळयेक तर कितलेशेच कडेन कपयो मारिल्ल्यो. तें पळोवन तिचे कडेन आशेन गेल्ली बायल 'चाकरमणी घोव, तिचे चोळयेक थिगळां णव' म्हणत परती आयली.

लग्नाक वचपाक एके बायलेन गळ्यांत गळसरी घातली मागीर ताचेर पोलको घातलो कापड न्हेसली आनी भायर सरली. वाटेर पावली जाल्यार गळ्यांत गळसरी ना. सामकी आबूज जाली. घेऽ मागीर बोवाळ. वाट भर सोदता. गांव भर बोवाळ. मागीर कोणाक तरी पोलक्यांतल्यान भायर सरिल्ली गळसरी दिसली. 'गळ्यांत गळसरी, गांवांत बोंब' ही म्हण जल्माक आयली. 'हांडीर आसा चेडो, सोदता सगळो वाडो' ह्याच अर्थाची ही म्हण.

पयलींच्या तेंपार गोऱ्या रंगाची चड अपुरबाय जातली. गोरे कातीर कितेंय दावता, सोबता म्हणून तोखणाय जाताली. दोगी जावो आशिल्ल्यो. एकटी काळे, एकटी गोरी. गोऱ्या जावेक कितेंय सोबतालें. ती दोळ्यान दिसपट्टें काजळ घालताली. काळो रंग आशिल्ले जावेक आपणेंय काजळ घालचें शें दिसतालें. पूण आपल्याक सोबचेंना म्हणून ती गोरी जावचो येत्न करूंक लागली. तोंडाक पिठी लाय, हळद लाय, दुदाची साय लाय... मांयन सांगलें, 'आगे, लाय तूं काजळ गोरी जावपाचो आनी येत्न करूं नाका.

'ना. हांव गोरी जातकीरूच काजळ घालतली'. मांयन ल्हवूच म्हणले, ''गोरी जावची ना, काजळ घालची ना, जें शक्य ना ताची वाट पळयतात तेन्ना ही म्हण म्हणटात.

ह्याच अर्थाची आनीक एक म्हण आसा. आनीक एके बायलेक आंगाक गोंदून घेवपाक आवडटालें खंय. तिवूय बी गोरी जावपाची वाट पळयत राविल्ली. ताचे वयल्यान 'गोरी जातली केन्ना आनी सुयतली केन्ना' ही म्हण आयल्या. आनी एक आजयेची एक नात गोरी आनी एक काळी आशिल्ली. ते ल्हान चलयेक काळे, काळे म्हूण आयकुंचें पडटालें, ते खंती जावन आजये कडेन येवचें. आजयेन ताका समजावचें. काळें आसलें म्हूण कांय नजो, गूण बरें आसपाक जाय. तिणें म्हणचे, 'धवें खाजें रुपाचें, काळें खाजें रुचीचे.'

थोड्या बायलांक खबऱ्यां मेळ्ळ्यार आनी दुसरें कांयच सुचना. उलयतां उलयतां कितलो वेळ जालो हाची लेगीत जाणविकाय नासता. एके बायलेलो घोव हांतरुणार आशिल्लो. खूब तेंप जाल्लो तो बरो नाशिल्लो. एक दीस ही कितें हाडूंक म्हणून शेजान्नीगेर गेली. शेजान्नी कडेन एकार एक खबऱ्यो करीत रावली. घरा येवन पळयत जाल्यार घोव मेला. ताचे वयल्यान 'गजालीन घोव खालो' ही म्हण आयल्या.

एके बायलेचो घोव आंगान सामकोच दुबळो आशिल्लो. बायल आंगान घसघशीत आनी सभावान झगडाळ. मात्शे कितेंय हे वटेन ते वटेन जाल्यार दांडो घेवन घोवाचे फाटल्यान लागताली. हें पळोवन कोणेंय म्हणचें, 'घोवा परस बायल मोटी, दांडो घेवन लागली फाटी.'

'करून करून थकली, देवा पुजेक लागली' हे म्हणीच्या अर्थाची आनी एक म्हण आसा. वृद्धा नारी पतिव्रता, फाटली खबर विचारुं नाका, एक बायलमनीस शिंदळ आशिल्ली. गांवांत तिणें आपलें नांव व्हगडायलेलें. पूण म्हातारपण आयलें तशें तिणें आपलें रूप बदल्लें. ती सामकी देवभक्त जाली. पूण तिच्या पयलीच्या गुणांनी तिची फाट सोडूंना.

पयलींच्या तेंपार तिनसांजचो दिवो पेटयतालीं. हो दिवो पेटोवन दवरपाचो एक खास जागो आसतालो. त्या जाग्याक दिवठण म्हणटाली. हो दिवो दिवठणार सोबता तशीच बायल हांथरुणार सोबता ह्या अर्थाची म्हण 'दिवो दिवठणी, बायल हांथरुणी'.

असल्यो चुकीच्या समजुतींचेर आदारलेल्यो म्हणी कितल्योश्योच मेळटात.

१) बायलेचें शाणपण रात्री पोल्लांत.

२) बायल आनी मातये कळसो समान

३) गोरू आनी चली दावें पडटकीच गेलीं.

४) 'सगळ्या बायलांक अदर्या गाढवाचें गिन्यान' ह्या असल्या म्हणीं वयल्यान समाजाचें अंतरंग समजता. 'पांयांतली व्हाण पायांतूच दवरप' अशेंय बायलेक उद्देशून म्हणटाले. कांय घोव बायलेक धोडायताले. ती मोन्यांनी सोंसताली. बायलेचेर हात उबारप म्हळ्यार पुरुशार्थ अशें समजपीय घोव आशिल्ले. ताचे खातीर, 'कांडले बगर फोव न्हय आनी बायलेक बडयले बगर घोव न्हय' असल्यो म्हणी जल्मताल्यो.

ह्याच अर्थाची आनीक एक म्हण 'पापडाची पिठी आनी बायलांची फाट धोडायता तितली अरळ जाता.'

ह्या म्हणींनी तेदे वेळच्या समाज मनाचें दर्शन घडटा. खूब कमी बायलांक घरच्या घडामोडींनी उलोवपाचें स्वातंत्र्य आसतालें. बायलो म्हळ्यार कुस्कुटासमान. तिचें विश्व कितें म्हणटा तें रांदचीकूड. तिका आनी वेगळें आस्तित्वूच नाशिल्लें. घोव कसलोय आसूं कितलोय वायट आसूं ताणें तिका कितलींय मारूं, धोडावं तिणें सोंसपाचें. ती

*(पान २१ चेर)*



# कविते विशीं

माधव बोरकार



१२.०७.२०२०

कवितेचो अर्थ हो हिमनगाभशेन आसता. तो सरळ दिसता ताचे परस कितले तरी वाट्यांनी तिचे भितर लिपिल्लो आसता. देखून तर कविता तिच्या समिक्षकांक आनी आस्वादकांक एकसारकी आव्हान दीत रावता. काळाबराबर तांकां तिच्या नव्या नव्या अर्थाचो साक्षात्कार जाता.

***

१४.०७.२०२०

जी.ए. कुलकर्णी आनी श्रीनिवास कुलकर्णी हांचे मदलो शंकर रामाणी हांचे कविते सबंदान संवाद. श्रीनिवास कुलकर्णी हांणी 'धारवाडला जी.ए. कडे' ह्या लेखांत ती याद बरयल्या. (मौज दि. २००९)

''नंतर त्यांनी शंकर रामाणीचा विषय काढला. ते म्हणाले, ''रामाणी मला भेटायला येतात. त्यांनी पालाण मला अर्पण केला आहे. त्यांची कविता तुम्हाला कशी वाटते?''

मी म्हटले, ''मला त्यांची अलिकडची कविता कळत नाही. शद्बांचा गोंधळ वाढल्यासारखा वाटतो. कदाचित तो माझा आकलनातील गोंधळ असेल.''

''मला त्यांची लयबद्ध कविता आवडते; पण त्यांच्या अलिकडच्या पुष्कळ कविता कळत नाही हे खरं. तो शद्बांचा गोंधळ आहे की काय हे मात्र पाहिलं पाहिजे. प्रल्हाद वडेर म्हणतात स्वत:चा चेहरा असलेली आजची मराठी कविता रामाणीचीच आहे.''

मुखार रामाण्याली कविता बरीच दुर्बोध जायत गेली आनी थोडोसा शद्बांचो गोंधळ तातूंत दिसूंक लागलो हें मात न्हयकारपाक येना. तुलनेन बाकीबाबाली अखेरची कविता सोपी दिसता. अर्थात ती दुर्बोध केन्नाच नाशिल्ली.

एखाद्र्या कवीच्यो सुरवेच्यो आनी अखेरच्यो कविता हांचो तुलनात्मक अभ्यास करपाक जाय. सुरवात - मध्य - अंत अश्यो तीन अवस्था कळत जाल्यार ते कवीचो अभ्यास जावंक पावतलो.

***

२८.०७.२०२०

बिली कॉलिन्स हो हालींच्या काळांतलो एक म्हत्वाचो कवी. तो कवी आनी समिक्षक. वॉल्ट व्हिटमनाच्या Leaves of Grass ह्या कविता संग्रहाक १५० वर्सा जालीं ते निमतान ताणे दिल्लें व्याख्यान यु ट्यूबाचेर आयकुपाक मेळ्ळें. व्हिटमनाचो हो कविता संग्रह संवसारीक कवितेक नवो चेरो दिवपी. आज आमी मुक्तछंद बरयतात ताची सुरवात हया कवीन केली. ताचो प्रभाव फकत अमेरिकेपुरतो उल्लोना तर त्रिखंडात तो पावलो. जे विशय आज मेरेन कवितेचे शिमेभायर उरिल्ले तांचो आस्पाव कवितेंत जालो. कॉलिन्सच्या मतान व्हिटमन हो बर्हिमुखी कवी आनी ताचे सारके दुसरें तोंक म्हळ्यार एमिली डिकिन्सन. ती निमाणे मेरेन आपल्याच कोशांत रावली.

कॉलीन्स म्हण्टा व्हिटमनान कवितेक आशय आनी अभिव्यक्तीच्या वेगवेगळ्या बंधनांतल्यान मुक्त केलीं. ताचे परसूय म्हत्वाचें म्हळ्यार कवितेची म्हूण एक वेगळी भास आसता ती कल्पना ताणें न्हयकारली. सर्वसामान्य मनीस जी दिसपट्टी भास वापरता तीच ताणें कवितेखातीर आपणाली. हें खाशेलेंपण ताणें अखेर मेरेन जपलें. कांय बाबतींत तो वर्डस्वर्थाचो विचार मुखार व्हरता अशें म्हणपाक जाय.

फॅर्नाद पेस्सोव वाचतना व्हिटमनाची याद येता.

***

०३/०८/२०२०

गणिताचे परिभाशेंत गणित सोडोवप अशें म्हण्टात. आमी कवितेचो अर्थ लायतात ताका कविता सोडोवप अशें कित्याक म्हणचें न्हंय असो विचार मनांत आयलो. गणितांतले प्रश्न वेगवेगळे पद्धतीन सोडोवंक येता तेच भशेन कवितेच्या अर्थाकडेन वचपाच्यो वेगवेगळ्यो वाटो आसतात.

***

१२/०८/२०२०

रामदासाची एक ओवी आसा ती अशी:

*कल्पनेचा प्रांत।*
*तो माझा एकांत।*
*तेथे मी निवांत।*
*बैसइन॥*

हे ओवयेंत रामदास कलावंताची आत्ममग्न अवस्थेचें वर्णन करता. तिका अचूक शद्बरुप दिता.

कला ही एकांतातूच रुजता आनी फुलता. हो एकांत सोदपाक पयस खंय तरी अज्ञात जाग्यार वचपाची गरज नासता. तो लोकांमदीं गर्देंत रावनूय सादपाक येता. ही मनाची अवस्था सादपाक साधना करपाक जाय. बाकीबाब हो लोकांतात एकांत सादपी कवी. एमिली डिकिन्सन ही खऱ्या अर्थान एकांतांत रावली आनी ह्या एकांतांतल्यान तिचें सृजन फळाक आयलें. 'कवी जावप' हो म्हजो हावेस न्हय तर ती म्हजी एकसुरेपणात जगपाची तरा' अशें जेन्ना फॅर्नाद पेस्सोव म्हण्टा तेन्ना ताच्या मनांत हो एकांतूय आसता.

***

२४/०८/२०२०

George Luis Borges हो आर्जेतीनांतलो एक म्हत्वाचो कवी आनी लेखक. ताचें एक व्याख्यान यु ट्यूबाचेर आयकलें. आपणे व्हिटमन आनी कार्ल सँडबर्ग हांच्यो कविता वाचतकच मुक्तछंद आपणावप सोपो न्हय हाची आपल्याक जाणीव जाली अशें तो सांगता. ते परस छंदवृत्तांत रचना करप बरें अशें ताका दिसता.

बोर्न्हासाचें हें मत विचार करपा सारकें. मुक्त छंदाकूय आपली अशी लय आनी ठेको आसता. ताकाय छंदवृत्तांभशेन बंधना आसतात. तांकां पाळो दिलोना जाल्यार ताका फशिल्ल्या गद्याचे रुप येतलें. अमूर्त कला म्हळ्यार केन्वासाचेर निखटे सोडिल्ले रंग न्हय. कलेचो प्रवास मूर्ती कडल्यान अमूर्ता कडेन जावपाक जाय. आनी तो प्रवास तसोच जाल्लो आसता.

संवसारांतले सगळे म्हत्वाचे अमूर्त चित्रकार मुळांत वास्तववादी चित्रं रंगयताले. सुरवेच्या काळांत पिकासोन सुंदर व्यक्तिचित्रणां केल्यांत. गायतोंडेची चित्रकला हेच अवस्थेंतल्यान गेल्या. मूर्ताचे बुन्यादीचेर अमूर्त कला उबी आसता.

पु. शि. रेगे आनी कवी अनिल मुक्तछंद केळोवपी कवी. ह्या कवीचें छंद आनी वृत्तांचेर प्रभुत्व आशिल्लें म्हणून तर ताणी बरो मुक्त छंद बरयलो. हालींचे कवी मुक्तछंदाचो सदळ हातान वापर करतात तो वाचल्यार ताका कविता म्हणची काय गद्य म्हणचें असो प्रस्न पडटा.

***

०३/०९/२०२०

'गोमंतकीय मराठी कवितेचे अर्धशतक' ही नरेंद्र बोडके हाणे संपादित केल्ली anthology तातूंत रामाणी ते आशा मणगुटकर मेरेनचे कवी आस्पावल्यात. पूण बाकीबाब ना. ही anthology बाकीबाबाक ओंपल्या आनी प्रस्तावनेंतूय बोडके बाकीबाबाचे कवितेची चर्चा करता. बाकीबाबाक ह्या anthologyच्या भायर दवरप म्हळ्यार ह्या श्रेष्ठ कवीचेर न्हय तर गोंयच्या मराठी कवितेचेर अन्याय करप. खरें म्हळ्यार १९६० उपरांत बाकीबाबाली कविता एकदम बदल्ली. 'गितार', 'चैत्रपुनव', 'कांचन संध्या' ह्या संग्रहांतल्यो कविता ताची गवाय दिता. आशय आनी अभिव्यक्ती हांचें वेगळेंपण दाखवपी ह्यो कविता. तांची कविता म्हळ्यार गोंयचे कवितेचो खऱ्या अर्थान चेरो. अश्या कवीक भायर दवरुन बोडकेन कितें सादलें असो म्हाका प्रस्न पडटा. हरशीं जाल्यार बोडकेचे पिळगेक बाकीबाबाची नसाय आशिल्ली. तातुंतल्या कांय जाणांनी तोंडार अपमानूय केला.

पिळगे पिळगेमदीं अंतर आसताच. अशें जरी आसलें तरी आदले पिळगेच्या खांदार नवी पिळगी उबी आसता. अभिजातवादी कवी आनी romantic कवी हांचे मदीं फरक आसतलोच. मोरोपंत आनी हेर पंडित कवींनी आपले परीन कवितेक एक वेगळें रुप दिलां. इंग्लीश कवी पोप, ड्रायडन हे जितले म्हत्वाचे तितलेच वर्डस्वर्थ, कॉलरीज आनी किट्स, शेले आनी बायरन हांचें योगदान सामान्या भायलें. ह्या सगळ्यांच्या प्रभावांतल्यान आयची इंग्लीश कविता आकाराक आयल्या. भारतीय कवितेसंबंदान तशेंच म्हणपाक येता...

***

११.१२.२०२०

लोक काव्यांत अर्थान उपाट भरिल्ल्यो वळी मेळटात. ज्यांकां आमी अशिक्षित मानतात तांच्या काळजाचे उत्फरके आनी उमाळे अश्या काव्यांतल्यान व्यक्त जाल्ले पळोवंक मेळटात. दुर्गा भागवत हे विदुषीन ताचेर खोलायेन अभ्यास केल्लो. ताणी पुंजायल्ले एके कवितेंत ही होंवी आसा:

*गाणं मी गायिलं।*
*आपुल्या मनांत।*
*जाईंच्या बन्रात।*
*नाद गेला*

आपल्या मनांत गाइल्ल्या गाण्याचो नाद जायेच्या झोपांत पावता. वयले वयल पळयल्यार हे होंवयेचो आशय सादो दिसता पूण ती अर्थाच्यो कितल्यो तरी शक्यतायो सुचोवन वता. हें लोककाव्याचें बळ म्हणपाक जाय. आमचे कडेनूय अश्यो कांय देखी आसात.

*वयल्या वयल्या दोंगरार*
*उदक कोंगरें*
*उदक कोंगरें जाल्यार*
*xxxx मोगरें.*

कोंगरें आनी मोगरें अशें यमक हांगा सहज जुळून आयलां, ते परसूय तातूंतल्यान एक प्रतिमा उबी जाता. वाऱ्याच्या स्पर्शान उदकार उदेल्लीं कोंगरी ल्हारां आनी अस्तुरेच्या कोंगऱ्या केंसां मदली ही तुळा हातुंतल्यान ही दृक् प्रतिमा व्यक्त जाल्ली दिसता.

अँड्र हार्वे हो एक ब्रिटीश कवी. ताणे युरोप आनी लॅटीन अमेरिकेंत लोककाव्यां पुंजावन तांचे अणकार केल्यात. कांय अनुसर्जनांय केल्यात. देखीक,

last night love touched her
in the house of Patience
Love hid the seed of life
in her clothes

In the wind of her walking
they will be scattered
the fields will be yellow with them
the hills will be green with them

हे कवितेंतल्यो प्रतिमा आनी अभिव्यक्तींतली एके तरेची सहजताय लक्ष वेधून घेता. आमचे कडेन अशे तरेचो मोलादीक वावर लोकसंस्कृतायेच्यो संशोधक डॉ. जयंती नायक हाणी केला. ताणी केल्लो हो वावर मानवशास्त्र अभ्यासाचे नदरेन म्हत्वाचो आसाच पूण तेच बराबर कोंकणी कवितेच्या अभ्यासाचे नदरेन तांचो विचार जावपाक जाय. ह्या काव्याची शब्दकळा, आशयाची खोलाय आनी प्रतिमासृश्टी हांचो अभ्यास फळादीक जावंक पावतलो.

संपर्क: 9420222876



# इतिहास उस्तितना

**कोंकणीची पोरनी सरस्पत उस्तितना कांय म्हत्वाचे लेख आनी बरपां मेळ्ळीं.**

**ती 'जाग'च्या वाचप्यां मेरेन पावलीं जाल्यार तांचे खोशेंत भर पडूं येता अशें दिशिल्ल्यान हें पुनर्मुद्रण - त्या त्या लेखकाच्या आनी संपादकाच्या बरेपणान...**

उस्तून तुमचे मुखार दवरपी - सखाराम शेणवी बोरकार

# असोच एक दीस येता...

**मारिया क्युरी रोद्रीगीश**

परत केन्नाच ट्रेजडी बरोवचें ना असो हांवें मनांत घट्ट निश्चय केल्लो. खरेंच संसारांत सुखा झरे व्हांवता आस्तना हांवें दुखूच चितारप कित्याक? खूबदां तसा विचार सुद्दां म्हज्या मनाक स्पर्श करुन गेलो पुण हांसोवपी विनोदी कथा बरोवंक म्हाका जमलेंच ना. एकदां वर्गात शिकयतना एका भुरग्यान म्हाका विचाल्लें लेगीत, 'मीस, तुमी फक्त ट्रेजडीज कित्याक बरयतात?'

हांव थक्क जालें, ताज्या प्रस्नाची जाप कितें दिवची तेंच कळ्ळें ना म्हाका.

'ट्रेजडीज बरोवपाक सोंपे म्हुण ट्रेजडीज बरयतां,' हांवें हांसत जाप दिली. पुण मनांत एक घट्ट निश्चय केलो. खरेंच परत केन्नाच ट्रेजडीज बरोवप ना.

आनी आयज... आयज परत एका ट्रेजडीचीच सुरवात जाली... म्हाका नकळटांच... आनी ह्या म्हज्या ट्रेजडीचें पात्र हांव जायत हेंय धरुंक नाशिल्लें हांवें. दुसऱ्याच्या जिणेची व्यथा आयकतां - आयकतां ती म्हजीच कथा जावन गेली.

अकरावेचो वर्ग... भुरग्यांक हांवें तांची कल्पना शक्ती पळोवंया म्हूण सहज एक निबंध दिलो 'असोच अेक दीस येता...'

भुरग्यांनी एकदम प्रस्न केलो 'मीस, असोच अेक दीस येता म्हळ्यार कसो येता?'

'असोच अेक दिस, तुमच्या सुख-दुखाचो, जाचें म्हत्व तुमच्या जिणेंत आसा - जो दिस तुमी विसरुंक शकनात.' हांवें समजायलें.

सगळे भुरगे आप-आपले तुमच्या सुख-दुखाचो, जाचें म्हत्व तुमच्या जिणेंत आसा - जो दिस तुमी विसरुंक शकनात,' हांवें समजायलें.

सगळे भुरगे आप-आपले परीन बरोवपाक लागले आनी तांच्या मनांबरोबर म्हजें मनय बी तांच्या वांगडा धांवूंक लागले. म्हज्या जिणेंतल्या अशाच अेक दिसाच्या सोदांत. बेल वाजली आनी हांवें तांचे नोट - बुक एकठांय केले आनी कितें बरयलां काय होच विचार करीत घरा आयलें.

खूबशा भुरग्यांनी आपुण एस.एस.सी. पास जालां त्याच दिसाचें वर्णन केल्लें. एका फाटल्यान एक निबंध तपासतां तपासतां एक निबंध वाचपांत हांव इतलें गुल्ल जालें की म्हाका कसलेंच भान उल्लें ना. अचळय म्हजे दोळे भरुन आयले आनी दोन दुकां म्हज्या दोळ्यांतली गालांचेर देंवलीं. म्हजो हात दोळ्यांकडे गेलो. 'हें कितें? दुकां आनी तीं म्हज्या दोळ्यांत? खरेंच म्हाका म्हजेंच अजाप दिसलें - कोणेय पळेलें जाल्यार म्हाका कितें म्हणपाचीं - पिशें खंयचेकडलें. पुण तीं दुकां म्हजीच काय म्हाका खरेंच दिसनाशिल्लें. हांवें कादेर्न बंद करुन बरोवप्याचें नांव वाचले - मारीयो नोरोन्या. मारीयो - म्हजो विस्वासच बसलो ना. खरेंच हो दीस ताचे जिणेंत आयिल्लो काय? हांव वाचतां - वाचतां तो निबंध हें विसरुन गेलें आनी मारीयोच्या वांगडा ताच्या ह्या संवसारांत हांवें केन्ना पावल दवल्लें तेंच म्हाका कळ्ळें ना. ताच्या त्या निबंधाचें एक एक उत्तर जिवें जावन आपली काणी सांगुंक लागलें..

***

...असोच एक दीस उदेलो. पुण त्या दिसा म्हाका उठूनच दिसलें ना. मनाचेर एक कसलो तरी भोरो दवरिल्ल्या भशेन म्हाका दिसलें. आज म्हजो दीस बरो वच्चो ना. असो म्हाका भास जावंक लागलो. हांव उठून जनेलांत येवन उबो रावलो. सगलें सैम मोने आशिल्लें. माड हालनास्तना खांबे कशे उबे आशिल्लें. निकत्याच फांकतल्या सुर्यान सुद्धां आपली किरणां काळ्या कुपांआड लिपयल्लीं. म्हजें मन चर्र जालें. आज म्हजेर बी कसलें अरिश्ट येतलें काय? एक भंय म्हज्या मनांक स्पर्श करुन गेलो. इतल्यान दारांत कोणें कांपीण माल्ली. म्हजे पांय दाराकडेन चलपाक लागले. आमचो शेजारचो आग्रेल आशिल्लो तो. सायकलीवेलो देवन ताणें म्हाका देव बरो दीस दिंव म्हळें. म्हाका ताचें हांसूं आयलें. आज म्हजो दीसच वायट आनी हो आनी म्हाका देव बरो दीस दिंव कसो म्हणटा. ताणें मुखार येवन म्हज्या हातांत एक पत्र दिलें आनी तो परत गेलो. आज सकाळफुडेंच कोणाची ही चीट काय म्हाका. हांव विचारांत पडलो आनी वाचूंक लागलों. मेरीची चीट ती, ताणें बरयलें 'मारीयो तुवें म्हाका फटयलें. म्हज्या जिणेंची वाट लायली. म्हज्या सपनांचो गोबोर केलो.'

हांव भारावन गेलो. म्हज्या दोळ्यांचेर विस्वासच बसलोना. हांवें केन्नाच कोणाक लग्नाचें उतर दिलें ना; मोगाचो सोपूत घेतलो ना, हांवें

तर पाद्री जावपाचें थारायलां. मेरीन अशें कित्याक बरयलें? आमी स्कुलांत आसतना एकाच वर्गात शिकतालीं. पुण म्हज्या मनांत ताज्या बद्दल तसो विचार आयलोच ना. आनी येतलो तरी कसो? आनी आज मेरेन बरयल्लें, 'मारीयो, तुवें म्हाका फटयलें, म्हाका आनी ह्या संसारांत जगचें ना, तुका म्हजी चीट मेळट्टा तेन्ना हांव नासतलें.' म्हजे हात थरथरुंक लागले. हाय देवा - हांवें मेरीचो बळी घेतलो? ताच्या दुखाचें हांव कारण जालों; हांवें तर पाद्रीपणाचो रस्तो निवडला. देवाचें म्हाका आपोवणें आयलां, आनी म्हजी जीण ताच्या सेवेक ओंपतलो म्हुण हांवें निश्चय केला. पुण. पुण मेरीची ही चीट वाचून म्हजें मन विचार करुंक लागलें, कितें करचें हांवें? आनी हयाच विचारान भरिल्ल्यां दोळ्यांनी खुंटा भशेन हांव थंयच उबो आशिल्लों.

***

मारीयोचो निबंध वाचलो आनी म्हजें मन खिन्न जालें. ही काणी खरीच काय? मारीयोचेर खरेंच हो प्रसंग आयलो काय? सबंध रात त्याच विचारान हांव हांतुणार कूस परतीत रावलें.

दुसऱ्या दिसा वर्गात सगल्यांचे नोट बुक्स वांटलें. तांच्या बरोवपाची तोखणाय केली. मारीयोचो कादेर्न मात तसोच मेज़र दवरलो. मारीयोन खरेंच सुंदर निबंध बरयला, तुमकां वाचून दाखयता हांव' हांवें मारीयोची तोखणाय करीत म्हळें.

'मीस नाका, नाका मीस, तुमी वाचल्यार हांव परत केन्नाच बरोवंचोना..' मारीयोन म्हाका आडायत म्हळें.

'पिसो खंयचो, तांका तुज्या गुणांचें दर्शन घेंव न्ही न्हय, तुज्यांतल्या लेखकाक तरी पळोवंनी तांकां.'

पुण मारीयो कसोच तयार जालो ना. हांवें कादेर्न बंद केलो. पुण म्हजें मन कितेंय शिकोवपाक तयार नाशिल्लें. दिसतालें मारीयोचो तो निबंध सगल्यांक वाचून दाखोवंचो. भुरग्यांनी ताची तुस्त करची.

'मारीयो, असो कित्याक करता तूं? खरेंच तुजो निबंध खुबच सुंदर आनी वास्तविक जाला. हांवें वाचल्यार कितें जाता?'

पुण मारीयो तयार जालोचना. 'मीस तुमी वाचतात जाल्यार हांव वता.' 'आनी तो खरेंच वर्गातलो भायर गेलो. हांवेंय ताका आडायलो ना. ताचो बुक परत हातांत घेतलो आनी वाचपाक सुरवात केली. ताच्या कलेची सगल्यांनी तुस्त केली, विचारांची तोखणाय केली. पुण म्हजें मन तातुंत रमलें ना. हांव खिन्न मनांन घरा आयलें.

दुसऱ्या दिसा मारीयो क्लासाक आयलो आनी निमाण्या बांकार वचून बसलो. ओग्गी, उदास, खिन्न मनान. म्हजें म्हाका खाल्ल्या भशेन जालें. हांवें वाचुंक नाका आशिल्लें काय? क्लास सोंपताच हांवें मारीयोक विचारलें, 'मारीयो तुका खरेंच इतलें वायट दिसलें?' ताणें तकली सकल घातली आनी ताचे दोळे भरुन आयले. म्हाका अजाप दिसलें. वर्गात सदांच हांसपी, उलवपी - फकाणां करपी मारीयो आनी आज अशी दुकां गळोवपी, इतलो भावूक मारीयो एकच काय? ताजो तो अवतार पळोवन कितें करचें तेंच म्हाका कळ्ळें ना. 'मारीयो कितें, तुवें बरयल्या ती काणी खरी?' हांवें ताका मायेन विचाल्लें. पुण तो मान सकल घालून तसोच थंयच रावलो. 'मीस तुमी वचनांत, बस चुकतली तुमकां.' मारीयोन विशय बदलूंक जाय म्हूण म्हळें पुण हांव थंयचें हाललें ना. 'आसूं. वचूं दी बस. मारीयो तुजे खातीर हांव कांयच करुंक शकना?'

'पुण मीस, तुमी तें करुंक शकचीं नात. आसूं, तो विचार सोडून दियात तुमी.'

'पुण हांवें कितें करुंक जाय तें तरी सांग न्हय?'

'खरेंच मीस करतात तुमी? खूब उपकार जातलें म्हजेर, मेरीक समजाय म्हजो विचार सोडून दी म्हुण. ना तर सबंध जीण म्हाका अपराधी जाल्ल्याची जाणीव खायत रावतली.'

मारीयोन म्हजेकडें जे मागलें, हांव तें ताका दिवंक शकतालें काय? हें मेरी कोण, ते कशें आसत, म्हज्या अपेशाची प्रतिक्रिया ताचेर किते जायत होच विचार करीत हांव रावलें. पुण आतां विचार करपाचो वेळ नाशिल्लो. हांवें मारीयोक म्हजो आदार दिवपाचें उतर दिल्लें.

'बरें हांव यत्न करतां, तूं म्हाका ताचो पत्तो दी.'

सांजेवेळाच हांव मेरीचो पत्तो घेवन म्हापशां गेलें. थंय तें आतां कॉलेजांत शिकतालें. ताचो पत्तो घेवन हांव बद्द हॉस्टेलांत गेलें. ताची चवकशी केली पूण मेरी म्हाका मेळ्ळें ना. निमाणेंकडे ताचें रुममेट म्हाका मेळ्ळें, ताणें सांगलें मेरी पयर घरा गेल्लें ते अजून आयलें ना म्हण. दिसलें हो विचार सोडचो आनी घरा परतूंचें. सांजेचीं स वरां जावन गेल्लीं. दिस ल्हान आशिल्ल्यान काळोख पसरुंक लागिल्लो. दिसलें सरळ बस धरची आनी बद्द घरा येवचें. पूण मारीयोचो विचार परत मनांत घोळूंक लागलो. फाल्या ताका कितें सांगप? ना, हांवें मेरीक सोदून काडपाचो मनांत निश्चय केलो आनी म्हापशेंच्या बस-स्टँडावयल्यान गर्देतल्यान वाट काडीत ताज्या मामागेर गेले जंय तें रावतालें. भायरच ताची मामी आनी कांय चलयो बसून आशिल्ल्यो. हातूंतलें खंयचें मेरी काय हाचो अंदाज हांव लावंक लागलें. तांका कितें सांगप, मेरीक कशें समजावप हय़ा विचारान मन मात्शे खासावीस जालें. पुण मेरी घरा नाशिल्लें. तें घरा येवंकच नाशिल्लें हें कळटांच म्हाका एकदम धक्को बसलो. मारीयोक बरयल्ल्या त्या चिटीची याद आयली 'तुका ही चीट मेळटली तेन्ना हांव आसचें ना.' खरेंच मेरीन जीव दिलो काय? हो विचारच म्हज्या मनाक सहन जालो ना. पळोवंक नाशिल्ल्या सुद्धा एक निर्दोष. स्वप्नाळु भावुक मेरीचो चेहरो म्हज्या दोळ्यांमुखार उबो रावलो, आतां मारीयोक कितें सांगप? कशें सांगप? हांव हातूंत कशें पडलें काय जालें म्हाका. मेरी ना म्हुण हांवें आनी फुडें कांयच प्रस्न केलो ना. जड पावलांनी घरा परतलें. वाटेर सारको काळोख पसरिल्लो. फक्त बसीचे दिवे लिकलिकताले. कशें तरी हांव बस-स्टँडार पावलें. 'पणजे-पणजे' करीत कंडक्टर आड्डताले. 'बाय खंय वता' हो प्रस्न सुद्धा म्हज्या कानार पडलो. पुण म्हाका कसलेंच भान नाशिल्लें असलो दीस म्हज्या बी जीणेंत येत अशें धरुंकच नाशिल्लें हांवें. हांव विचार करीत थंय उबें आशिल्लें. चुट्टां सुकून पडिल्ल्या माडा भशेन.

*(कोंकणी दिवाळी अंक १९८१)*



# मन-कुशबन

## दादा हेगडे

मनश्यांक जितो उरचे पासत उदक आनी वारें सामकें गरजेचें. खाणां जेवणां भायर राबित्या पासत, आलशिऱ्या पासत घर लागता. जाग आसची म्हण शेजार पाजार जाय. सगळ्यांचो मेळून एक वाडो जाता. हे सगळे वाडे मेळून एक गांव. इतिहासांत मनश्यांच्या सभ्यताये विशीं वाचतना एक गजाल लक्षात येंता ती म्हळ्यार ताणें केल्ली वसणूक. मनश्यांन गांव वसणूके पासत लागसार उदक आशिल्ल्या जाग्यांक अदीक पसंती दिल्ल्याची दिसता. कुशबन म्हळ्यारच कुसमणची जाका आता केपे म्हटणात ताचीय काणी अशीच.

कांय जाण कुशबन या नावाचो संदर्भ रामायणातल्या लव कुशा कडेन लायतात. मात इतिहासतज्ञ ना. भा. नायक हांचो अभ्यास वेगळेंच सांगता आनी तो पटपा सारकोय आसा. 'कुश' नावाची एक वनस्पत आसा. तिची झोपा चडशी न्हंयचे देगेंनी रुजपल्ली दिसतात. 'दर्भ' ह्या नांवान देव कार्यात तिचो उपेग करतात. एका वेळार ह्या 'कुश' झोपांची ऋशीवनांसावन व्हावंत येंवपी न्हंयच्या दोनी अर्दानी चोम्यांनी वाड जाताली. आजुय जाता. पुण थोड्या प्रमाणात. जंय ह्या झोपांची वाड चड प्रमाणात आसली. त्या वाटाराक 'कुशबन' नांवान वळखुंक लागले. तशेंच ह्या वाटांरातल्यांन व्हांवतल्या त्या न्हंयेक कुशावती नांव पडलें आसुक जाय.उसगाळीमळ, रिवण (आदलें ऋशीवन) हागांसर फातरार कोरातील्ली चित्रां मेळली. तांचेर केल्ल्या अभ्यासा उपरांत ती २० ते ३० हजार वरसां फाटली आसूं येता अशें जाणकारांचें म्हणणें आसा. हे वरवी कुशावती न्हंय कितलींशीच वरसां सावन व्हांवत आसा हें सिद्ध जाता!! गोंय आनी ताचे भोंवतालच्या वाटाराविशींची माहिती पुर्तूगेजांनी गोंय काबीजाद केले उपरांतची चड वाचूंक मेळटा. कांय लोक हाचो अर्थ गोंय हें पुर्तूगेजांनी काबीजाद करचें पयलीं अस्तीत्वांत नासलें असोय लायतात!!!! गोंय पुर्तुगेजांनी काबीजाद करचे पयलीं कशें आसलें हे विशींची माहिती कोणेंच बरोवन दवरुक ना कांय ? आनी आसल्यारुय घडये ती आज आमकां वांचूक येना त्या बरयिल्ल्या लिपीत खंय तरी अडगळीत आसा काय ? हो स्वतंत्र अभ्यासपाचो विषय.

'गोवा इनक्विजीशन' (रोमी कातोल्क किरीस्तांव धर्म सारको पाळीनाशिल्ल्या लोकांआड कारवाय करपाखातीर केल्ली धर्मचिकित्सा) हें पुस्तक वाचले उपरांत पुर्तूगेज गोंया येवंचे आदीं कशें आसूं येता हे विशींचे काय पुसट तर्क काडले.

पुर्तूगेंजानी १५१० वर्सा गोंय काबिजाद केलें. जवळ जवळ दोन शेंकडे तांचो अंमल तिसवाडी, बार्देस आनी सालसेत ह्या तालुक्यांचेर चड आसलो. तोवूय दर्यादेगें वाठारांत. १८ व्या शेकड्यांत तांणी हेर वाठारांनी घुसपाक सुरु केलें. चड कष्टकरी समाज आसलो असो हो वाठार. त्यावेळार राजा सौंदेकार, आदिल शहा आनी ताचे सरदार ह्या वाठारांनी आपलो शेक गाजयताले. ते भायर मराठा सरदार मदी मदी आपलो शेक गाजयताले. पुर्तुगेजांनी मुस्लिम सरदारालागीं कबलात करून कांय जागे आपल्या ताब्यात घेतले. ते उपरांत तांणी १७६३ वर्सा सौंदेकार राजा कडेन कबलात केली. ते वरवी काणकोण म्हाल, केपें आनी सांगे गांवाचो ताबो घेतलो. हांका नवी काबिजाद (Novas conquistas) अशेंय म्हणतात. आदल्या कुसमणचो वाटार जरी सौंदे राजा खाला आसलो तरुय 'हैदर अली' नांवचो मुस्लिम सरदार ह्या वाठारांत आपलो शेक गांजयतालो. ताचे वांगडा कबलात करून पुर्तुगेजानी तेंवूय आपल्या शेकाखाला काबीज करून घेतलें. केपेंची 'दियांव पालास' ही मूळ हैंदर अली हाणें बांदिल्ली. हे इमारतीचे आनी पणजेच्या आदिलशा पालासीचे रचणावळीत खूप साम्य आसा अशें कांय इमारत शात्रांतल्या जाणकारांचें म्हणणें आसा. पुर्तुगेजानी केपें वाटार आपल्या ताब्यांत घेतले उपरांत ती पालास जुजे पाउल दा कॉस्ता पेरेरा दे आलमेदा हांचे सुवादिन केली. ताणें हे 'पालसींत' आपल्याक जाय ते बदल केले. जुजे पाउलान केपें आनी लागसारच्या गावांनी किरीस्तांव धर्म वाडीक लायलो. केपेंची इगर्ज लेगीत ताणेंच बांदली. पुर्तुगेज सरकारान हे पासत तांकां ''दियांव'' (Deao) ही पदवी दिल्ली. केपेची 'वालीतेम्बी' वाडो हो पुर्तुगेजी भाशेतलो 'अलीस तेम्बी' (म्हळ्यार अलीचो दोंगोर) हाचो अपभ्रंश अशें जाणकार सांगतात. अशें म्हणतात की जुजे पाउल दा कॉस्ता पेरेरा दे आलमेदा हांचो कुसमणा कडेन कांयच संबध नासलो. ताचो वाठार लेगीत वेगळो आसलो. त्या तेपार सगळीं पुर्तूगेज सरकारी ऑफिसां कुसमण गावांत आसलीं. जुजे पावल आनी पुर्तुगेजाच्या कबलाती पासत जुजे पाउल कुसमणा आपलो शेक मिरोवंक शकलो ना. ताचो वाठार देसांयांचे भाट काडले उपरांत व्हडलें भाट, सोनार भाट ते मोवाती भाट इतलो मरेन आसलो. आयज केपेंची इगर्ज आसा तो जागो देसाय घराण्यांतल्या एकट्यान जुजे पाउलाक दान दिल्लो अशें काय आदले जाणकार सांगतात. हैदर अलीच्या ताब्यात आशिल्ल्या देसायनी भाटाचो तो एक वाठार. देसायनी भाट एका तेपार कुसमण वाठारांत येतालें.

म्हजो बापुय जरुय केंपें गावांत ल्हानाचो व्हड जालो. कामा पासत गोंया भायर रावलो. उपरांत गोंया आयलो आनी पणजे रावलो. बापायक अकस्मात आयिल्ल्या मरणा उपरांत आवय आमकां दोंगा भावडांक घेवंन केपें रावंक आयली. हे पासत हांव सात वर्सा उपरांत सावन खरो केपेंकार जालो. गावच्यां ल्हान तशेच जाणटेंल्याच्यो गजाली आयकत वाडलो. भोंवताळचे लोक नियाळीत तांचे कडसून कांय गजाली शिकलों. कांय जाण आयज मरेन याद आसात. ह्या लोकांविशी म्हाका जें दिसता तें बरोवन काडचें अशें दिसलें. तेच पासत २१.९.१९९८ वर्सा सावन कुसमणचीं मनशा आनी कर्मा ह्या माथाळ्यां खाला बरप सुरु केलें. संगणक आनी मोबायल फोन हांचो उपेग केलो. आजून मरेन केपें गावच्यां खूप जाणां विशींची म्हायती मेळोपाचो यत्न करता. केपें गांवांक कितलेशेच लोक आपल्या कामाचे आगळे वेगळे शैली पासत एकलेच एक अशे आसले. खूपशा गावांनी तशें आसूं येता. मनीस गोत्रांल्या ह्या सगळ्यांनी कुशबन क्षेत्र आपली कर्मभूय म्हण आपणायलेली.

संपर्क : 9822129070





# 'करपां आनी कालवां'

सुमेधा कामत देसाय

डायरी लेखन

५/६/१४

आयज कॉलेजीच्या नव्या वर्साचो पयलो दीस. राती पावस मात्सो शिरशिरून गेला. सकाळीं उठलें तेन्ना झाडांचेर पावस शिंवरिल्लो तें कळ्ळें. पूण रस्ते सुकल्यात. पावसाची ही ओली ओली हवा म्हाका खूब आवडटा. ती हातान धरून दामून पळोवची अशें म्हाका दिसता. हांव दम्याचें पेशंट म्हणून ह्या नितळ-निवळ हवेन म्हज्या जीवाक खूब बरें दिसता.

आयज दीसभर मळभट आसतली म्हण सत्री व्हेली ना. पूण दनपार मेरेन कडक वत पडलें. मागीर निवृत्तीन हाडून घरा पावयलें. इल्लीशी चिमटीभर वाट. पूण ते वेळेंतय निवृत्ती म्हजे कडेन खबरी मारता. बबली/बाबूची खबर घेता. हांवें सांगलें, ''दोगूय जाणां झगडून मरतात.'' ''आताय झगडटात काय?'' म्हणून निवृत्तीन अजाप उकतायलें. ताचेर हांवें सांगलें, ''बाबू एक खोंट मारता. प्रत्युत्तर म्हण बाबली दोन खोटां घालता. आवय मागीर बबलीचेर फोग काडटा. म्हणटा, बबली तो एक ल्हान तूं जरी मातशी लज बाळग.''

हांवें निवृत्तीक म्हणलें, ''सामकीं हिचणां कर्शी. आमगेर पयर आयिल्लीं तेन्नाय झगडून काबार जाल्यात. 'तूं माझ्या नाकांत बोट घातलंस' हाचे वयल्यान केस्तांवां सुरू. हांवें तांचेर 'दोन हिचणां' म्हण लेख बरयला. तुका वाचूंक दिता आं.''

निवृत्ती हांसलो. आनी म्हणूंक लागलो, ''हिचण म्हणल्यार हिचण. खूब तेंपान आयज हो शब्द आयकलो. ह्या हिचणाचे बारीक बारीक कुडके (निवृत्तीन 'फोडी' हो शब्द वापरिल्लो, म्हाका तोच आवडिल्लो) करून आमी गरयेक लायताले. आनी कुल्ल्यो धरताले. तावोस आनी गरी उदकांत वडोवप. तावोस टायट जालो काय समजुपाचें हिचणाच्या कुडक्याक कुल्लेन घांस मारला म्हण. मागीर धाकलें कोबलें कशें 'पंखो' आसता तें घेवन कुल्लेक वयर काडप.''

निवृत्तीक म्हजे भशेन निसर्ग आनी निसर्गांत जगपाच्यो गजाली आवडटात.

पूण एक विचारपाचें उरलें, 'ही हिचणां ते खंयच्यान धरून हाडटात.'

***

आयज आनंदराव पारशां गेला. थंय ताका खूब कामां आसात. नळ्यांच्या कुशींनी पन्हळी घालपाचें काम चलता. ते भायर आमच्या मांद्रेच्या एका सामायीक मालमत्तेन कोणें तरी अनाधिकृत (म्हणचे आमची जमीन बळकावन) बांदकाम सुरू केलां. आनंदराव आनी म्हजो बापोलदेर थंय आयज पळोवपाक वतले. (बांदकाम करतल्यांचे दुस्मान रोखडयो रोखडे फोन करून ही गजाल भाटकाराक कळयतात. ताका लागून वेगळे गुप्तहेर नेमपाची गरज नासता. बांदकाम बरें वयर आयलें काय निरोप दितात. बांदपी बरो त्रासांत पडूं दी म्हण. पूण तो खंय त्रासात पडटा. तो गुन्यांव करून मेकळो जाता. त्रासांत पडटा तो भाटाकारूय. कशें तें बरयना. दुसरे भागेली संधी सोदतले म्हण.)

***

आनंदरावाच्या माथ्यांतले एका मुयेदाच्या आकाराचे केंस गेल्यात. अचकीत कोण म्हणटा, ''खरड पडलां.'' कोण म्हणता, ''जीव चाबला''. कोण म्हणटा, ''जीव मुतला'' एक खरें आमच्या सायबाचें केंस क्षुप्प करून गेल्यात आनी तो जागो चकचकीत जाला आनी स्पश्टपणान उठून दिसपाक लागला.

भुरगीं (हिचणां) पसून ताका चाळोवंक लागल्यात. ''मावशा, मावशा तुजे केस कोणें खाले रे?'' म्हणटात. आनंदरावाक मात्शी लज दिसता. वयत थंय, इश्ट-मित्र-सोयरे ताका तेविशी विचारतात.

असल्या ह्या प्रकाराक पारशां 'खळाक' म्हणतात. अचानक माथ्या वयले एका जाग्या वयले केंस गळून पडटात तेन्ना. कोणें कोणें, कसले कसले सल्ले दिले. दोतोरागेर वचपाक तो आनी हांव समान आळशी.

आमच्या घराच्या दावे वटेन चोनसाय नांवाचो वाडो आसा. थंय आमचें एक खूब व्हडलें भाट आसा. थंय आमचे खूब जाण भागेली-इश्ट रावतात. थंय एक गोवेकर नांवाचो गांवठी वखद दिवपी वैज आसा. ह्या वैजाक आनंदराव मेळ्ळो. ताणें सगळ्यांत पयलीं खड्ड्या धनयाक तापोवन काडलें, म्हणलें, ''इतलीं शिकिल्लीं मनशां आसून दुर्येस जातकीर खुब तेपान वैद्याक कशीं दाखोवपाक येतात?'' ताणें बारीक निरीक्षण करून सांगलें, आपूण एक पाळ झरोवन ताचे वखद दितां. ते लावन पळय भिवपाची गरज ना.

हें सगळें म्हाका आनंदरावान फोनार सांगलें.

***

सांजेचे पासयेक वचपाक भायर सरलें. म्हयनोभर पासय उरला. पारशां पासय मारप शक्य ना. म्हणल्यार वाज येता. रस्ते अशीर. देंवती-चडटी. चिऱ्यांची वाहतूक करपी ट्रक आंगार येतात कशे. ते भायर लोक विचारीत रावतात. फाटल्या कांय सुटयांनी हांवें पासयेक बरे बरे जागे सोदून काडिल्ले. शेतां, कमळाच्यो वाली, रानां, चरपी गोरवां, कांदळवनां पळयत पळयत भोंवपाचें. अंदू मातसो वाज आयलो. म्हण घरांत काम करून 'वॉक' भरून काडलें. पणजे वॉकाक वचपाक म्हाका खूब आवडटा. हांगा (पारश्यां भशेन) हटकुपी कोण ना. हांव हांगा क्रॉसिंगूय करना. ते भायर रस्तो खूब व्हडलो. खूब व्हडले फुटपाथ. रस्तो बद ताळगांव मेरेन वता. हांव तुरतुरीत ताळगांव मेरेन चलत वतां. थंय सोप्यार बसतां. अर्द वर ताळिगांवचे लोक, शेतांतलीं गोरवां, सुणी आनी बकीं पळयत बसता आनी मागीर निट्ट घरा येतां.

तशेंच बसलें. मुखार शेत रोवपाची तयारी चल्ल्या. तांबडी - हळदुवी - मोव माती तयार करून दवरल्या. ही अशी माती थंड थंड आसता. म्हणटा म्हणसर कुत्र्यांचो एक जमो आयलो. आनी ते

मोव मोव मेण, थंड थंड शीतल मातयेंत खेळूंक लागलो धांवचेल्यांनी खेळूंक लागले. एकामेकांक धरुंक लागले. फाफसूंक लागले. ''हांव हा हांव, क्यें क्यें क्यें'' धुमशेणां सगळीं. ते सगळे एकमेकांचे इश्ट आसतले. हें सगळें बेश्टें नाटक.

आई सांगताली: हेर सगळीं जनावरां फकत आपल्या ल्हाणपणांतूच खेळटात. कुत्रे मात म्हातारे जाले तरी खेळटात. हांवेंय तें नोट केलां.

पूण मनशांनी खेळप ह्या गजालीक आमच्या संस्कृतायेंत एक वेगळो आयाम दिला. आमी संस्कृतायेच्या प्राथमीक अवस्थेंतल्यान सुदारत सुदारत ह्या स्तरार येवन पावल्यात. म्हण आमचे खातीर खेळप हें मनरिजवणोचे साधन जावन पडलां. आनी तेच बशेन आमी आमच्या मनांतलें सगळे हिंसक भाव मनाच्या खोल खोल तळांत लिपोवन दवरल्यात. वयले वयर पळयल्यार काय ना. थंड, शांत सगळें.

पूण कुत्र्यांच्या आपसां भितरल्या खेळान म्हाका तशें दिसना. कुत्रो हो मूळ लांडग्यांचो वंशज अशें प्राणीशास्त्रज्ञ मानतात. तो मनशाळिल्ल्यान ताचें सद्याच्या कुत्र्यांत रुपांतर जाला. लांडग्यां भितर हिंस्त्र प्रवृत्ती आसतात. दुसऱ्याच्या मालकीच्या कुत्र्या भितर त्यो अस्तित्वांत आशिल्ल्यो आमी पळयतात. रानटी कुत्रे-कोलसुणो (Dingoes) हेय या कुत्र्यांचे पूर्वज. रानांत तांचे भशेन क्रूर जनावर दुसरे ना. सावजाची ते मरंसर फाट घेतात. जिते आसतना सावद खातात. एखाद्या हरणाची फाट घेतात. स्वसंरक्षणार्थ ताणें उदकांत उडी मारली काय हांचोय जमो ताचे फाटल्यान उडकी मारता. हरणाक पेंवन पेंवन पुरो जालें काय सगळे एकठांय जमून ताचेर 'हल्लाबोल' करतात आनी ताका आशिल्ल्याचें नाशिल्लें करून दवरतात.

लांडगो आनी कोळसुण्यांची गुणसूत्रां (जिन्स) घेवन आयिल्लें हें सुणें सादेपणान खेळटा आसतलें अशें म्हाका दिसना. म्हाका दिसता ते सावदाक धरपाचो सराव (प्रॅक्टीस) करतात. लष्करांत कशी लुटूपुटूची लडाय (mute war) करतात तसलो हो खेळ आसुंये. एकामेकांक धरप, तांचेर घुरी घालप, दुसऱ्याक आडवे घालून ताचे पोटार बसप आनी ताका घांस मारिल्ले भशेन करप. आनी मागीर सोडप. कित्याक? हे आपलेच भाईबंद म्हण. माजर कुळां (कॅट फॅमिली) तल्या जनावरांची पिलांय एकमेकां बरोबर आनी तांच्या आवय बरोबर हेच पद्दतीन खेळटात.

घरच्या कुत्र्याक पळयात. तो कशी आंगाचेर झडप घालता, पालकाचो हात तोंडांत घेवन कच् कच् करून घांस मारता आनी मागीर सोडटा. तांकां अशा गजालींचो सराव जाय म्हणून ते अशे तरेन वागता आसतले. तांणी जर असले सराव सोडून दिल्यार ते मागीर गौतम बुद्ध ना जाल्यार गांधीजी जातले. मनीस आपल्या बुद्धीच्या जोरार दाखय-लिपय करता. जनावरां भितर आजून तशी सुदारणा जावंक ना. (आनी म्हणून आमी सुटल्यात.)

***

मागीर ल्हवू ल्हवू करून सूर्य बुडलो. मळबाचेर काळसाण मांडली. थंड वारो सुटलो. सवणीं आपापल्या निवास वृक्षां कडेन वेगान वचपाक लागलीं. किलकिलाट. शेतान बांदून दवरिल्ल्या रेड्यांनी कुशीची हरयाळी, तण मस्तून दवरलां. गुड्डावन गुड्डावन वडयला. सगळ्याक रेबट करुन दवरलां. उदकाच्या एका ल्हानशा कोंडांत बसून बसून तोय रूंद करून दवरला. आनी केन्ना आपलो मालक आपल्याक घरा व्हरपाक येतले म्हण पिशे भुरगे कशे मान वयर करून तांची जाग घेत रावल्यात.

हे बी रेडे आसूंक जाय. घडये निवृत्त झुजीचे रेडेय आसत. पयर एक धा वर्सांचो भुरगो एका मदमस्त, रेड्याक घेवन वतालो. हातान एक लांबचे लांब बारीक. देवचार शिंपटी. भुरगो तुरुतुरू करून चलतालो. ताचे फुडें रेडेबाब चलतालो. 'एकदाचें घरा व्हरुन घाल सायबा' असो भाव रेड्याच्या चेऱ्याचेर. जनावरां आपल्या मालकांक बारीक-मोठो, जाणटो-नेणटो, बळिश्ट-अशक्त असले मापदंड लावन वळखनात. म्हणून तो धा वर्सांचो चेडो त्या राक्षसाक घेवन आमचे मुखा वेल्यान 'कांयच न्हय' अशे करुन गेलो.

हांव जेन्ना घरांतल्यान भायर सरतालें. तेन्ना भायर दिसत कु. गौरीश सावंत मेळ्ळो. खूब बरो. प्रेमळ, अपुर्बायेचो विद्यार्थी. ताणें गाडी थांबयली. नम्रपणान म्हजी वासपूस केली. तो मेडिकलाचें इंटर्नशीप करता. अजय कामत हो म्हजो कोंकणीचो स्कॉलर विद्यार्थीय आपलेच बरोबर मेडिकलाक आसा अशें ताणें म्हाका सांगलें. विचारलें, ''टीचर वॉकाक एकलीच वता?'' ''हय रे पुता'' म्हण हांव फुडें सरलें.

***

तीनसांजेर भिऱ्यांनी घरा वचपी कावळे, शेतांतल्या मोव, थंड मातयेंत जिवनांतली सगळी उमेद एकठांय हाडून खेळपी कुत्रे, खुटयाक शंबर फेरे मारून एकाच जाग्यार खिळावन पडिल्लें ताळिगांवचे रेडो हे सगळे म्हजे सदचे इश्ट.

तांकां पळयत पळयत, तांचे कडेन मनांतल्या मनांत खबरी मारीत हांव म्हजें वॉक पुराय करतां.

कित्याक रे पुता. तुका टीचर एकलीच वॉकाक वता, अशें दिसलें? टीचरीचे सैमा भितर खूब इश्ट आसात. डोण्ट वरी. गो अहेड. ऑल द बेस्ट.

***

मेडिकलाक प्रवेश मेळटगच हीं भुरगीं पेडे घेवन येतात. हो तांच्या हातचो निमणो पेडो. मागीर फुडें तीं दोतोर जावन आमकां कोडू वखद घालतलीं. आनी कुल्याक एक इंजेसांव मारतलीं. आनी आमी तांचे कडेन केन्नाय वायट बी वागिल्ली आसत जाल्यार दुसऱ्या कुल्याक दुसरें इंजेसांव मारतलीं..

***

हांव घरा आयलें. ''फास फूस, फास फूस'' करीत. वाटेर दोन स्टेशनां घेतिल्लींच. घरा येतकच तिसरें स्टेशन. इतल्यान बेबल्याचो फोन आयलो. तें म्हणूंक लागलें, ''ताई, हांव भाजणी (कांद्या भाकरेच्या पिठाचो महाराष्ट्रीयन अवतार) भाजतालें. खूब गरम जातालें. भाजणेंत गंव, तांदूळ, बाजरी, जोंदळो आनी तरातरांच्यो दाळी वेगळ्यो वेगळ्यो भाजून घालच्यो पडटात. त्यो एकठांय भाजल्यो जाल्यार एक तर करपतात, नाजाल्यार हरव्यो तरी उरतात. तुजो फोन येतलो आनी

मागीर विसव घेवपाची संद मेळटली म्हण आसलें. पूण तुजो फोन आयलोच ना. मागीर भाजणी मुकट्यांनी भाजली आनी न्हावंक गेलें. आतां तुकाच फोन लायलो.''

मागीर ताका हांवें दिसभरांतल्यो गजाली सांगल्यो.

कोण तरी एकली जेवणाचेर संदर्भा सयत बरयता. ती पेडण्यांच्या 'कडवणांचेर विचारताली. म्हाका तो वेगळो शब्द बेबी कडेन उलयतना यादूच जायना जालो. खंय तरी बरोवन दवरला हांवें.

पूण म्हज्या ह्या विशाल कागदी संवसारांत शेणिल्लें कितें मेळपाचें आसा? तो एक बाबडो शब्द कसो मेळटलो?

पारशां आतां पेडण्यांची खरी बोली उलोवपी लोक खूब कमी उरल्यात. म्हजो घोव दादलो मनीस. ताका अर्थातच बारीकसाणी खबर नात. ते भायर तो पेडण्यांची, म्हापशांची, पणजेची (आनी म्हज्या संस्कारान मराठी) बोली अशें सगळें मिस्तुराद करून उलयता.

मांवूय शाराच्या संस्कारान वा सगळेय शब्द पेडण्यांचे वापरल्यार हेरांक कळचे ना म्हण मिक्स खतखतें उलयतालो. मांय अबोल (म्हण हांव बऱ्यान सुटलें). तिच्या तोंडान बोट घालून शब्द भायर काडचे पडटाले.

खंयूय बापोलमायो बी रंगार येवन पेडणें बोलयेंत एकामेकां कडेन उलयताल्यो. तें हांव कान दिवन आयकतालें..

***

एक दीस मुंबयच्यान म्हजो बापोल देर राजेंद्र भाई आयलो. तो देसाय आसून शिवराक. ताणें सांगलें, आयज आमगेर विशेश काय ना. कालोवपाक 'करमणें' केलां. हांव ताका हें करमणें कोण काय म्हूण विचारना. मागीर ताची बायल-राजश्रीवयनी (बॉर्न अँण्ड ब्रॉटअप इन बॉम्बे) सांगता, 'करमणें' म्हणल्यार चेटणी, पातळ चेटणी. ती कडवप (पेडूयार जावची न्हय म्हण. आमच्या 'कडवणा'भशेन.) 'करमेवप' हो आमचेकडेन एक शब्द चालंत आसा. हें खंय करमणें म्हणजे आमचो कुंवोळ.

बेबीक हे सगळें महाभारत सांगलें. बेबी म्हणटा, ''आमचे कडेन कालोवपाची ती चेटणी असो शब्द ना. आनी त्या कडोवंक नाशिल्ल्या हरव्या पातळ कालोवण्याक कुंवोळ म्हणटात. कांद्याचो कुंवोळ, तेंफळाचो कुंवोळ, हरव्या मिरसांगेचो कुंवोळ आदी.

हांवें 'कांद्या कुंवळ' म्हणजे कितें काय, म्हण विचारतकच तें सांगूंक लागलें. वेऱ्यां आमगेर दनपरां बी शिवराक आसत जाल्यार सांज मेरेन सगळ्यांच्या पोटांत गुडगुडूंक लागता. (हें खास वेरेकरांचेंय दुयेंस दिसता.) म्हण चंटणी वांटतात. तातूंत कांदो, बारीक शिनून घालतात. (किस्मूर कशी) आनी ती चपातेक लावन खातात. ताका आमी 'कांद्याचो कुंवळ' म्हणतात.

पूण हांव मडगांवा एक फावट म्हज्या एका इश्टा कडेन रातच्या जेवणाक अचकीत पाविल्लें. तांकां हांव जेवणाक पावतलें म्हण खबरूच नासलें. पूण तांणी तांचे भशेन रांदलें. हुनहुनीत शीत आनी कांद्याचो कुंवळ काय कितें तो? म्हणजे तांबडी मिरसांग, आमटाण घालून सोय गंद वाटिल्ली. तातूंत इल्लें मीठ आनी रुचीक साखर घाल्ली पातळ केल्लें. शिताक कालोवणें म्हणून. आनी त्या कालवण्यात बारीक शिनून भरपूर कांदो घातिल्लो.

म्हाका तें हुनहुनीत शीत आनी हरव्या कांद्याच्या वासाचें कालोवणें आजून जिबेर आसा. ते खबरेक आतां तीसेक वर्सां जातलीं. पूण आजून हांवें तो कांद्याचो कुंवोळ करून पळोवंक ना. आनी कोणागेर चाखून पळोवकय ना.

***

आनंदराव घरा परत आयलो. ते वैजान ताच्या माथ्याचे केंस, ज्या जाग्या वयले काडिल्ले तो जागो निवळ पुसून घेतलो. आनी थंय झाडपाल्याचें वखद लायलें. धवें-धवें, पातळ-पातळ कशें आनंदराव सांगता. घडये पाळ झरोवन लायलां आसतलें.

वैजान सांगलें, ''वखदाचो लेपोड तुमी घरा वंचसर सुकतलो. तेका हय-न्हयशी खाज येतली. पूण घरा वचून माथ्यार मात न्हावू नाकात.'' दुसरेच दिसा परत आनंदराव पारशां वचपाचो आसलो. घरा सकयल्या भाटांत खूब झाळकुटां जाल्यात. आजून माया म्हयनाचें पाडेपण उरलां. ते झाळकुटांनी नाल्ल पडटकीच ते मेळनात. म्हणून ऑगास्तिनाच्या चेड्याक इलेक्ट्रीक कटर घेवन झाळकुटां निवळ करपाक आपयला. थंय देखरेख दवरपा खातीर वचूंक जाय. वैजानूय सांगला, ''सोमतें चोवसाय यो आनी वखद लावन घेवन वच.'' ते भायर तिसरे दिसा खातीर वखद डबुलां (डबयें)त घालून दितां.'' म्हण.

आठ दिसांनी परत केंस येतलें अशें तो म्हणटा. आनंदराव थर्थ भियेलो. ताच्या माथ्याक तीन फोणकुलां पडल्यात. केंस हुंदरान चाचायतल्या भशेन दिसतात. हांवें ताका धीर दिलो. ''वैजाचे आठ दीस जाले काय पणजेंतल्या दोतोराक दाखोवया.'' म्हणून.

गांवांतल्या खूब लोकांनी सांगलां, कातीचें (वा केस गळपाचें) कसलेंय दुयेंस (संसर्ग) आसत जाल्यार खंय रुयच्या पानाचो दीक लावप. ते 'ॲण्टीफंगल' म्हणून काम करता. पूण रुयचो दीक लायतकीर खुप चुरचुरता. (पोपायेच्या पानांच्या दिकाचो उपेगूय असोच जाता.)

वैजान वखदाचे पयशे घेवंक नात.

आपूण ते घेना अशें तो सांगता.

केदी ही महान परंपरा, आमच्या संस्कृतायेंतली. जांकां औपचारीक शिक्षण ना ते लोक फुकट वखद दितात आनी जांकां औपचारीक शिक्षण आसा ते रुग्णांक पिळून काडटात. धन्य तें औपचारीक शिक्षण. ज्या कोणी ताची सुरवात केली तेय धन्य!

***

आनंदराव सांगता, ''वैजान लायिल्लें तें वखद म्हणल्यार रुयच्या पानाचो दीक आशिल्लो अशेंशें म्हाका दिसतालें.'' (हरशी आनंदरावाक हांव चड पातयेना. घटकेंत हें म्हणटा, घटकेंत तें म्हणटा) खरेंय आसत. वा वैजान आनी कितें घाला आसत. (ते भायर मंत्र बी म्हणला आसत) आमी घरा रुयच्या पानांचो दीक लावूं शकतात. पूण आमकां मंत्र खंय येता? आनी मंत्र बेश्टो म्हणलो म्हण जायना, तो म्हणपाक तुमचे कडेन सिद्धी आसूंक जाय. ते भायर सिद्धी कोणाचेरूय प्रसन्न जायना.

*(पान ३० चेर)*



# तें मडें कोणाचें?

**दामोदर मावजो**

"तें मडें कोणाचें?" नेटान पेदालां मारीत फाटल्यानसून सायकल घेवन आयिल्ल्या त्या दादल्यान धेंगसून विचारलें. रितें पोट, सुकिल्लो ताळो आनी माथ्यार वोत घेत तळतळट्या डांबरी रस्त्यान चलपी भिवालीं पयलींच जड जाल्लीं पावलां थरथरलीं. ताच्या निर्जीव दोळ्यांत दोळो घालून सायकलकारान आपणालो मास्क हयन्हयसो सकयल ओडून पर्थून विचारलें, "तें मडें कोणाचें?"

"कोणाचें?" सैरभैर भिवान परतें ताकाच विचारलें.

"वयल्यान म्हाकाच विचारता? फाटल्यान त्या रुकापोंदा आसा तें मडें कोणाचें?"

म्हणसर आनेकलो सायकलकार थंय पावलो. ताणेंय मास्क घाल्लो.

"हेगेलो मास्क गळ्यांत कित्याक? सारको घाल तो. तो ताणशेलो. मागीर ताणें आदल्या सायकलकाराक विचारलें, "कोणाचें खंय तें मडें?"

"कोण सांगतलो? तेका खबर ना-"

"केन्ना मरण येयलें जाण कोण! सांडून गेल्ले लोक खंय पावले तेंय कळपाक मार्ग ना."

सरळ डांबरी रस्तो पयसमेरेन नदरेंत आसपावतालो. वतान तापिल्ल्यान भिलभिलतालो. त्या दोगांयनी फुडें पयस मेरेन नदर मारली. नदरेंत कोण्ण आसपावलो ना. "फाटले सात आठ दीस हे वाटेन कोण ना कोण सतत साटली पोटली माथ्यार वा फाटीर घेवन चलत आसात."

"काल सांजे मेरेन हांव राखून आसलेलों. बरेऽ राती वा सकाळींच कोणेंय हें काम सादलें आसूंक जाय."

"कोणें हाडून उडयलां, काय थंयच मरण जालां कळना."

"हाडून उडयिल्लें कळटा. रस्त्या कडसून विसेक पावलांचेर त्या रुका पोंदा कोण हाडून उडयतलो?"

"राती गस्तीक तूं आसलेलो मरे? दुसरो राखूंक योसर तूं रावलो ना कित्याक? तेवटेन गांवांत बी कोणूय पावलो ना मरे?" रस्त्यान वताले तांतले कोविडग्रस्त कोणूय गांवांत बी पावत म्हूण आळीपाळीन कोण ना कोण गांवकार गस्त घालीत आसले. तरी फांत्यार हें अशें घडलेंच कशें?

"ना पावचो. पूण हें मडें सांडून गेल्लो पयस पावचो ना. घडये हेका खबर आसूंये."

"हेका पळयल्यार कितें खबर आसत शें दिसना. आतां त्या मड्याचें कितें करचें तें पयलीं पळोवंया."

"पोलिसांक सांगूंया?"

"ते कितें करतले? बरोवन व्हरतले. जालेंच जाल्यार कोणाचें मडें तें सोदून काडटले. आनी मागीर आमकांच सांगतले विलो लावंक. निमाणे मडें आमच्या हड्ड्यार..."

"तो मेरेन कुसून वतलें."

"आनी तें मडें कोरोना जावन मेल्ल्याचें आसल्यार मागीर संकश्ट गांवार..."

"ते परस हेकाच सांगल्यार?" भिवाक वयर सकयल तेळून दुसऱ्यान म्हळें.

"आयडिया बेस्ट! हेचे लागीं कांय सामानूय ना. हेकाच व्हरुंया फाटीं." मड्याक हात लावपाक गांवचो कोण फुडें सरचो ना हाची दोगांकूय खातरी आसली.

भिवा मुखारच तांचें उलोवणे चलिल्लें. ताचेर संकश्ट आयिल्लें. पूण तशें पळयल्यार फाटले तेरा काय चवदा दीस, घडये पंदरा-सोळाय जाले आसूंयेत, संकश्ट सोडून दुसरें कितें पळयिल्लें ताणें?

आतां सुर्या माथ्यार पावचे पयलीं जाता तितली वाट माडुपाच्या विचारान ताणें पांय उकलले. पूण तांणी ताका आडायलो.

धमकायलो.

''तें मडें कोणाचेंय आसूं, तेका मातयेक लायले बगर आमी तुका फुडें वचूंक दिवचे नात.''

भिवाचे पांय कडकडले. संकश्टां चुकयतालो तितलीं तीं आंगार येतालीं. तागेली आवतिकाय पळोवन तांकां ताची काकुळट आयली जावंये. ''भूक लागल्या?''

जिबेक रूच नाशिल्ली. ताळो सुकिल्लो. पूण भूक आशिल्लीच. तानूय आसली. ''उदक-'' भिवाक उतर फुटलें.

''पयशे नात.'' भिवा उलयलो.

''सगलें मेळटलें. यो.'' तांणी सायकली धुंवडायल्यो. एकलो तयारी करपाक फुडें गेलो. दुसऱ्या फाटसून भिवा चलूंक लागलो. ताच्यान भिवाक सायकलीचेर व्हरूं येतालो. पूण पातयेवप कशें? म्हामारी गांवांत रिगपाक खंयचे वाटेन येत तें कशें सांगूं येता!

भिवाक रस्त्यार वाटे वाटसुरे खूब मेळिल्ले. गोंयां थावन सुटिल्लो तेन्नाच्यान कोण फुडें कोण फाटीं मेळटाले. तांकां वांगड तरी कसो म्हणचो! जणेकल्याक बेगीन घरा पावपाचें आसलें. मदीं दोनदां ट्रक मेळ्ळे तेन्ना तितलीच वाट कातरतली म्हूण मागता तितले दुडू फारीक करून घर लागीं करपाचो येत्न भिवानूय केल्लो. धा दिसांनी कोल्हापूरच्यान सोलापूर लागीं केल्लें तेन्ना गांव लागीं पावत आयलो शें दिशिल्लें. पूण आतां पैशे सोंपिल्ले. एक ट्रक थारिल्लो तो दुडू दिले तांकां घेवन गेल्लो. नांदेड आजून पयस आसतना गांवघरा पावतलोच हाची खातरी मेळनासली.

मडें आजून अर्द किलोमिटर तरी पयस आसतलें. अकस्मात चौगांचो एक पंगड फाटीर संवसार घेवन चलत येतना दिश्टी पडलो. कोणूय आपणांक वळखत म्हूण भिवा कांचवेलो. वळखले जाल्यार तांच्या प्रस्नांक जाप दिवपाची तांक ताच्यांत नासली. तांचे कडेन आडनदर करीत भिवा सायकलकाराची ढाल करून फुडें सरलो.

ते सुवातेर पावलो जाल्यार थंय पांच स गांवकार चोमो करून सुरक्षीत अंतराचेर आन्येका झाडा मुळांत रावन 'तें मडें कोणाचें जावंये' हाचेर भासाभास करताले.

'तें मडें कोणाचें' हाचेर कोणाच कडेन जाप नासली. ज्याचे कडेन आसली तो कानांर केंस काडून वग्गी आसलो. मडें म्हूण कोणाचें आसता? जिवी आसतना ती कोणाची तरी आवय, कोणाची तरी बायल आसली. पूण आतां हें मडें कोणाचें? पूण येवजून उपेग कितें? मड्याक सांगूंक कळिल्लें जाल्यार सांगीत आसलें, 'तीन दिसां आदीं पोटच्या पोराक आपणेच तर मातयेक लायलां, घोव ताका वाटेरच सोडुंया म्हण्टनाय.'

भिवा मड्या बगलेक पावलो पूण फुडें कितें करप खबर नासून नदर टाळीत रावलो. सायकलकार फुडें सरून गांवच्या लोकां कडेन उलयलो. भिवाक आयकूंक येतालें. तिचे जातीचो हुसको करताले ते. तिका लासची काय पुरची? लासपाचेर खर्च चड. तेपरस तिका पुरची हाचेर एकमत्त जालें. पूण पुरची खंय? गांवांत नाकाच. शीम बगलेकच आसा, थंयचे पाळणींत पुरची अशें थारलें. पुरतल्या कडेन फुकट काम कशें करून घेवचें? जणेकल्यान धा धा रुपये काडले. मागीर कोणे तरी भर घालून ते शंबर केले. खावंक आनी उदक हाडूंक गांवांत गेल्लो आजून येवंक नासलो. ताची वाट पळोवचे परस बेगीन हें काम जावंक जाय. मागीर भिवाक तांणी लागीं आफयलो, पूण धा हात पयस दवरलो.

मडें भिवान एकल्यानच ओडीत व्हरपाचें. गांवचो कोण कसो हात घालतलो? भिवाच्या पोटांत कुळ्ळ जालें. मड्याक पळोवचो ना म्हूण थारावनूय नदर पडलीच आनी जीव सकयल वयर जालो. बाग घेवन तिच्या खांकोळांत हात घालून ताणें मडें ओडलें. मडें जड लागलें. काय मडें जड जाल्लें? कशेय भाशेन रस्त्या कडेन पावलो. मागीर मनाक पुटवलें ना. शक्त नासतनाय ताणें ओणोव घेवन तिच्या मानेपोंदा एक आनी दिमयांपोंदा दुसरो हात घालून जाता नज करून मडें उकललें. मणा मणाचें वजें उकलिल्लेवरी दिसलें. पूण एक फावट उबो रावतकच सोपें जालें. लकता पडटा काय दिसतालें. पूण हा ऊ करून तो पाळणींत पावलो. अजाप म्हणल्यार गांवच्या लोकांनीच थंय फोंड मारिल्लो. कारण खोरें ताच्या हातींत दिलें आनी ताका कोरोना जाल्लो आसत जाल्यार खोरें ताचे कडलें परत घेवप कशें?

''उडय तें मडें थंय'' पयस वचून तांणी म्हणलें.

पूण ताणें उडयलें ना. जतनायेन सकयल दवरलें. दोळ्यांतलें उदक धुवेचें मरण जाल्लें तेन्नाच आटिल्लें. घडये फुडलें मरण आपणाचें आसूं येता. ताळो दाटून येतालो, पूण गिळपाक तोंडांत नुती खंयची हाडपाची?

''ओड माती.'' गांवकारांनी फर्मायलें.

भिवान माती ओडली. ओडीत रावलो. ओडीत रावलो. गांवकारांनी सांगिसर.

''पुरो. सुटले आमी.''

तांणी कागदाक गुठलावन हाडिल्ल्यो दोन भाकऱ्यो, उदक घाल्ली प्लस्टिकाची बाटली आनी 'शंबर आसात' म्हूण ताका दाखोवन नोटी थंय धडेर दवरल्यो. नोटी हुबत म्हूण तांचेर एक फातोर दवरलो. आनी आपणे एक बरें काम केलें ह्या झेतान आपले मास्क आनी मदलें अंतर सांबाळीत ते गांवांत परतले.

भिवान धडयेरच बसकण मारली. उदकाचे चार घोंट मारले. कागदाचो गुठलो उगडून पळय जाल्यार दोन दाटेल्यो भाकऱ्यो आनी चेटणी. लसणीचो वास नाकांत भरलो. एक कुडको तोडून तोंडांत घालो. पूण खावपाची वानसा जाली ना. पोटली तशीच गुठलावन कल्सांवाच्या बोल्सांत घाली. नोटी मेजून खोमसाच्या बोल्सांत घाल्यो. बायलेचेर ओडिल्ले मातयेचेर नदर पडली मात- भिवा ताकतिकेन उठलो. आपणांकूय अशेंच मरण आयलें जाल्यार भणगीगांवांतल्या आपल्या आवयक, भावाक कळचें लेगीत ना, तिगांचें हें कुटुंब अशें वाटे वाटेर सोंपलें म्हूण. मरणच नशिबांत आसत जाल्यार तें गांवघरा तरी येवचें. उदका बाटली झेलयत तो मार्गार आयलो. वोत तापिल्लें. आंग हुलपायतालें. भिवा चलत रावलो- शंबर रुपये घेवन कोणूय ट्रकवालो आपणांक घरा पावयत काय हे आशेन.

संपर्क: ०९४२२०५९५०९

# पुरुमेंत

कृ. म. सुखठणकार



पुरुमेंत म्हणजे कितें हें आमकां म्हणजे नीज गोंयकरांक सांगपाची गरज ना. हांगा पंदरा वर्सांचो राबित्याच्यो दाखलो घेवन जे गोंयकार जाल्यात तांचो हातूंत आसपाव जायना. पुणून हांगा रावन तेय आतां पुरूमेंत करपाक लागल्यात ही आमचे खातीर अभिमानाची गजाल. "When in Rome do as the Romans do" म्हणलां तें हे खातीर. पणजे पुरुमेंताच्या फेस्ताक तांका मर्सेडीस गाडयेची डिकी उगडून गांवठी कांद्यांच्यो मोवळ्यो भितर उडयतनां पळोवंन हांव धन्य जालों.

"This local variety tastes something different. Not as pungent as those 45/- kg ones."

अशीं उतरां डिकी बंद करतना म्हज्या कानार पडलीं. तेन्नाच हांव गोवा राज्य फलोत्पादन महामंडळ मर्यादीत हांच्या गाड्यार 'other ones 38/- kg' ह्या दरान दोन kg घेवन पावन जाल्लों. केन्ना केन्ना हांची (पंदरा वरसां राबितो) भेट नुस्त्या बाजारांतूय जाता.

''अगं मी पेडव्याचं सुकं करते हे पुण्यात सदाशीव पेठेत कळलं तर ते मला देहांत प्रायश्चित्त सुनावतील.''

अशें म्हणून सदाशीव पेठ वाली बारीक पेडव्यांचो वांटो कापडाच्या पिशवेंत उडयता. मुद्दो, पंदरा वरसां राबितो वालींय हे मातयेंत एकरुप जाल्यांत. बरी गजाल.

पुरुमेंत हें उतर पुर्तुगेज provisao वा provimento ह्या उतराचो अपभ्रंश जावन कोंकणींत भरशिल्लें उतर. अशीं कितलींशींच पुर्तुगेज उतरां आमचे मायभाशेंत भरसून आमचीं जाल्यांत, तांतुंतलेंच हें एक. आमी शाळेंत आसतना शिक्षण खात्यांतल्यान तपासणी खातीर इन्स्पेक्टर शाळांनी येताले. इन्स्पेक्टर म्हणटकच प्रस्न विचारप हें आयलेंच. तो मागीर कसलोय इन्स्पेक्टर आसूं, शिक्षण खातें, भलायकी खातें वा पोलीस खातें. फाटीं आमचो हांडो चोरयेक गेल्लो. लोक फाटीक लागले म्हूण बापायन पुलिशेंत आपली कागाळ दिली. इन्स्पेक्टर आयलो. 'सगलें सोडून हांडो चोरयेक कसो गेलो?' ताणे बापायक प्रस्न केलो. बापायन सदचेवरी वयर पळयलें. 'खबर ना जाल्यार आमकां हांगां कपलाक आफयल्यात?' अशें म्हणून तो पांय आपटीत परत गेलो. तो वतकच बापायन आंगणांतल्या तुळशीचीं दोन पाना घेतलीं, तांबयांतलें उदक घेतलें आनी 'ब्रह्मार्पणमस्तु' म्हणून हांड्याचेर उदक सोडलें. आसूं. तर, हे शिक्षण खात्यांतल्या इन्स्पेक्टराक भितर सरल्या बराबर प्रस्न विचारपाक हांवूच सांपडलों. 'शेतकरी पावसाळ्या पुर्वी काय करतो?' असो ताणे सरळ सादो प्रस्न विचारलो. प्रस्न विचारलो तसो आमच्या पाटील गुरुजीचे तोंडार हांसो फांकलो. कारण प्रस्न सादो आशिल्लो आनी जाप दितना करतलो म्हणल्यार लेगीत चूक करपाक स्कोप नाशिल्लो. 'पावसाळ्या पुर्वी शेतकरी पुरुमेंत करतो' हांवे आत्मविश्वासान भरिल्ली छाती फुडें काडून जाप दिली आनी सगल्या वर्गाचेर नदर भोंवडायली. हरशींय म्हणून म्हजे नदरेक केन्नाच प्रतिसाद मेळना, त्याय दिसा मेळ्ळो ना. इन्स्पेक्टर वतकच पाटील गुरुजीन 'नांगरणी माझा काका करणार का रे?' अशें म्हणून म्हजो जो कान पिळ्ळो तो फुडल्या मिर्गा मेरेन दुखतालो. हांव मात तो शेतकरी पुरुमेंत करचो सोडून नांगरणी करपाक कित्याक वतलो हें चिंतत उरलों. आसूं.

पुरुमेंत हें उतर जरीय पुर्तुगेज भाशेंतल्यान आयिल्लें आसलें तरीय हाचो अर्थ गोंयकार पुर्तुगेज येवचे आदीं पुरुमेंत करी नाशिल्ले असो जायना. हांवे हाचेर बरोच अभ्यास केल्या उपरांत म्हज्या हाताक बरीच म्हायती लागल्या.

हांवे हाचेर बरोच अभ्यास केल्या उपरांत म्हज्या हाताक बरीच म्हायती लागल्या. जेन्ना ही गोमंत भुमी तयार जाली तेन्ना सुर्वेक हांगा राबितो करुंक आयिल्ल्या मनशांक हांगच्या पावसाचो अदमास आयलो नां. हाका लागून तांच्यो पावसांत भोयो भोयो जाल्यो. हें म्हाका मेळिल्ल्या कागदपत्रां वेल्यान कळटा. तांच्यो खडावो लेगीत पावसांन फुगिल्ल्यो अशें म्हज्या वाचनांत आयलां. ते सगळी तयारी करुन हांगा कायमचो तंबू ठोकपाक आयिल्ले. पूण पावसाचो अदमास आयिल्लो नाशिल्ल्यान ताणी पुरुमेंत केलो ना. ताका हांगाच्या हवामानाचो अंदाज सांगपाक (चुकीचो जांव मागीर तो) तेन्ना आल्तीन्ह्यार हवामान खातेंय नाशिल्लें. हांगाचो पावस साधारण कितले म्हयने आसता हाचोय अंदाज ताका नाशिल्लो. हांगा राबित्याक आयिल्ल्या तांतल्या एका सत्पुरुशाक जे कामाक लागून तो हांगा आयिल्लो, तें काम जाले उपरांत हांगाच्या थळाव्या लोकांनीं ताचे खातीर एक ल्हान सो निरोप समारंभ दवरलेलो. तेन्ना त्या सत्पुरुशान केल्लें ल्हानशें भाशण म्हज्या हाताक लागलां. तें हांव भारतीय पुरातत्व विभागाक दिवपाचों आसा. त्या भाशणांत तो थळाव्या लोकांक उद्देशून म्हणटा,

अत्र मया वर्षाकाले यद्यद् असह्यो तदेव मास्तु

यदि भवान् इच्छति यत् एतावत् स्थितिः भवतः आयुष्ये न आगच्छेत् तर्हि

तत्समये यदाद् आवश्यकम् तस्य् सर्वस्य सङ्ग्रहणं करणीयम्

(अर्थात, हांगा म्हाका भोगलां तें पुरो. तुमचेर ती पाळी येवची न्ही म्हणून तुमकां पावसांत जें जें लागतलें ताचो साठो करुन दवरात).

हांवे म्हाका जमता तशें भाशांतर केलां.

गोंयकार पुरुमेंत केन्नाच्यान करपाक लागले हें तुमकां आतां कळ्ळांच आसतलें. हे खातीर अभ्यास गरजेचो. जो शाळेक गेला ताणे Ant and Grasshopper हि काणी वाचल्याच आसतली. ही काणी हेच मातयेंतली अशें म्हजें ठाम मत. 'मूंय आनी तोळ' हे मूळ काणयेचो Ant and Grasshopper केन्ना जावन सातां समुद्रां पार केन्ना गेली हें

आमकांच कळ्ळें ना. ही काणी बारीक वाचली जाल्यार मूंय पावसा आदीं पुरुमेंत करता हें तुमचे लक्षांत आयलांच आसतलें. पुरुमेंत हो कॉन्सेप्ट हेच मातयेंतलो हें तुमकां हांवे वयर सांगलांच. म्हणटकच ही काणी हेच मातयेंतली जांवची पडली. ल्हानपणा सावन भुरग्यांक पुरुमेंत करपाची शिकवण दिवपा खातीर रचिल्ली ही काणी. पुरुमेंत करीना जाल्यार पावसांत तोळा सारके हाल जांवयेतात अशी देख ती काणी दिता.

वेळार पुरुमेंत केलो ना जाल्यार बरेंच लुक्साण जांव येता.

इतिहासाचीं पानां परतीत जाल्यार खुपश्यो लढायो गडावेली रसद सोंपिल्ल्यान जाल्यात अशें तुमकां दिसून येतलें. पुरुमेंत सोंपिल्ल्यान राजांक तह करतना बरे बरे गड दुस्मानाचे भकीक घालचे पडले. त्या भायर नाका जाल्या तहाच्या अटींक मान हलोवंची पडल्या.गडांक वेढो पडिल्लेकडेन गड सोडटना जाल्ल्या लढायेंत बरे बरे शूर सरदारांनी बलीदान दिल्ल्याचे दाखले आमकां इतिहासांत मेळटात. हाचे वेल्यान आमी गोंयकार घरांतले रसदी बाबतींत कितले सादूर आशिल्ले तें कळटा.

आमी पुरुमेंत हे उतराची उत्पत्ती आनी परिणाम पळयलो. आतां आमी पुरुमेंत कसो करतात तें पळोवया. (मागच्या धड्यात आमी पुरुमेंताची उत्पत्ती आनी तो न केल्यास परिणाम काय होतात तें शिकलों. ह्या धड्यात पुरुमेंत कसा करतात ते पाहूं. आमच्या पाठ्य पुस्तकांनी आमी अशे शिकत आयले, तेच चालीर हें वाचचें.) वयर म्हणलां तशें पुरुमेंत आमीच हे भुमींत करतात. शेजारचे राज्यांत सांठेबाजी बी जाता, जाका सायबाचे भाशेंत 'होर्डींग' अशें म्हणटात. सांठेबाजी फाटल्यान नफेबाजी होच एकमेव हेतु आसता. पुरुमेंत करपा फाटल्यान नुस्त्याक पातिशेर जातकच सुकें तरी तोंडाक लावन पोटांत दोन उंडयो वच्च्यो असो निर्मळ आनी प्रामाणीक हेतु आसता. पावसांतल्या त्या दोन उणयांक लागुनूच वारका वचून बरे सुकिल्ले बांगडे हाडटात आनी दक्षिणे कडेन झेप घेत कारवारच्यान सुकिल्ली मोरी हाडटात. एप्रील आनी मे हे दोन म्हयने सोडून जिनस एकठांय केल्यार मात ताका आमी सांठेबाजी म्हणू येता. देखीक, कोरोना काळांत लॉकडावनाच्या भंयान आमी जें केलें ताका आमी पुरुमेंत म्हणचे ना ती सांठेबाजी. आमगेर लॉकडावनाच्या भंयान दोन डजन सात्री (एक डजन व्हिरांच्यो आनी एक डजन पिसोण्यो) घेवन दवरलेल्यो. त्यो खंय मारच्यो हो म्हाका प्रस्न पडिल्लो. तांतुतल्यो चार सात्री 'बाबा कडून वडिलांच्या स्मरणार्थ' अशें ओयल पेण्टान पितारुन रामाच्या देवळाक दान केल्यो. आतां स्वच्छ भारत अभियानूय थंड पडिल्ल्यान कोणाक अश्योच दिवन उडोवपाचीय शक्यता कमी दिसता. एक डजन टूथ पेस्टी घेतिल्ल्यो तांतुतल्यो अर्द्यो घट्ट जाल्यात. तांतुतल्यान कितें दांबून भायर येता तांतूत आमी दांत घासतात. एक पेस्ट हांवे आमच्या वक्लाच्या दोळ्यांक सरे पडिल्ले ते काडपाक वापरलेली. कोणे तरी टूथ पेस्ट लायल्यार सरे वतात अशें सांगिल्ल्यान हांवे हो उपद्व्याप केलो. आईच्या वक्लाचो दावो दोळो टूथ पेस्ट लायिल्ल्यान मातसो मर्दी धवोच उरला. आतां ती हांवे दाव्या दोळ्याक फूल घालें अशें आयिल्ल्या गेल्ल्याक तें वक्ल दाखोवन सांगता. आसूं. तर, आमी पुरुमेंताचें उलयताले.

मळबांत काळीं कुपां येत जाल्यार देशांत सगल्याक उमेद जाता. हांगा गोंयांत मात काळीं कुपां पळोवन आमचो आवरो उडटा. कारण पावसान घालून घे मेरेन आमचीं घरां शिवन जाल्लीं नासतात. जोळोवान भरिल्ली खोप शिंविल्ली नासता. शिंविल्ली आसल्यार भितर जोळोव भरिल्लो नासता. थोड्यांगेर अजून आटकां लेगीत फोडिल्लीं नासतात. फोडिल्लीं आसल्यार वत दाखयल्लें नासता, एक आनी दोन. ह्यो सगल्यो अडचणी एका वर्साच्यो न्ही, वरसान वर्स तेंच घडत आसता. बापाय कडल्यान पुता कडेन मांय कडल्यान सुने कडेन अशें तें दायज फुडें वता. टेर्रास आयले, घरां शिंवपाचीं बंद जालीं. गॅस आयले जोळोव गेलो ताचे वांगडा त्यो खोपीय गेल्यो. हाका लागून पावसाक आमकां भेश्टावपाक जी मजा येताली ती बंद जाली. आतां तो मनाक मारता तेन्ना येता नाजाल्यार येच ना.

आमचो पुरुमेंत साधारण गोंयकाराचो जसो जाता तसोच जातालो. अजुनूय जाता पूण कमी प्रमाणात. गोंया आतां तशें पळोवंक गेल्यार पुरुमेंत करप तशें भोगावळ जाल्या. आज चडशे जिनस वर्साचे बाराय म्हयने जाय तेन्ना, जाय थंय, जाय त्या प्रमाणान मेळटा. म्हणटकच पयलीं करत आयल्यां म्हूण वा करुंक जाय म्हूण आमी आतां पुरुमेंत करतात. आमगेर आजूय खोबरें सुकोवन ताचे पासून खोबरेल काडटात आनी तें गॅलनानी भरुन कोठये कुडींत दवरतात. आमकां तें वर्सभर पावता. मुंबयकार चवथीक येतात तेन्ना ते आपल्या वांट्याचें तेल घेवन वतात. हांवे हें सगलें फोडून सांगलें कारण आयचे पिढयेंतल्या थोड्यांक खोबरेल तेल म्हणजे कितें तें खबर पसून नासतलें. ही पिढी रिफायन्ड ऑयल खायत वयर सरल्या. तें तेल काळजाक बरें ही जायरात ते पेपरांत वाचतात आनी टिव्हीर पळयतात. एक वर्स आंगणांत खोबरें सुकत घाल्लें तेन्ना आमची भाभी युनायटेड स्टेट्स ऑफ अमेरिका सावन सागरा प्राण तळमळला जावन माय देशांत आयिल्ली. हे खेपेक ती आपल्या पुताक रॅम्बो'क (रामकृष्ण आज्याचें नांव दवरला, वय वर्सा सतरा) घेवन आयिल्ली. रॅम्बोक घेवन आमगेर पावली तशी ताणे तें सुकत घालां तें कितें काय विचारलें. ताणे तसलें काय अमेरिकेक सुकत घाल्लें पळोंव नाशिल्ल्यान ताचे कडल्यान तो प्रस्न अपेक्षीत.

"Coconut oil is derived from these kernels"- भाभी.

"We call them खोबरें in local language"- हांव.

"It is used as food oil"- भाभी.

"We also put it in our ears time to time to soften dirt saturated in the ears, locally called as काजुलो. We also rub it on new born babies to make their bones strong and prevent scales, locally called पिठें. This is done by expert, locally called तेलकान्न- हांव.

"Rambo beta coconut oil contains polysaturated fat, monosaturated fat etc."- भाभी.

"We dont bother about contents, we just fry fish in this oil locally we call it चरचरीत''- हांव.

हें खोबरें सुकयतलो जाल्यार आमकां एक तर आंगण जाय नाजाल्यार ओपन टेर्रास. खोबऱ्याक कितलीं वतां दिवंचीं हाचेर हांवे

फार्टी अभ्यास केल्लो. ताचो पेपर सादरीकरण करपाक गोंयांत माची ना मेळिल्ले कारणान तो पडून उरला. सांवळो खोबरें फोडटा आनी सुकत घालता आनी हांव तें राखतां. विध्यार्थी दशेंतल्यान हांव हें करीत आयलां. विद्यार्थी दशेंत हांवे कांयच राखलें ना हो म्हजेर आरोप जांवचो न्ही म्हणून हो खुलासो. विद्यार्थी दशेंत हांव खोबरें राखपाक बसतालों तेन्ना म्हज्या हातांत पाठ्यक्रमांतलें पुस्तक आसतालें कारण त्याच काळांत आमची वार्शीक परिक्षा आसताली. आतां हांव पोरण्या दिवाळी अंकांतलें म्हजें वर्सुकी राशी भविश्य वाचीत खोबरें राखतां. म्हज्या नशिबांत सदांच 'संतती प्राप्ती आनी सरकारी दरबारी कामात यश मिळेल' अशें बरयल्लें आसता. एक दीस हांवे आईक 'म्हाका ह्या वर्सा संतती प्राप्ती आसा गेय' अशें म्हणलें. तें आयकून तिणे हातांतलें तपलें (रिकामें) सोडलें आनी पायांक घाय करुन घेतलो. आपल्या संततीचेर विश्वास नासतकच पालकांक घाय जातात ते अशे. आतां हांवे म्हजें भविश्य दुसऱ्याक सांगपाचें सोडलां. 'सरकारी दरबारी कामात यश मिळेल' अशें वाचतकच हांव सरकारी दरबारांत वचून निमूटपणान लायटीचें, उदकाचें बिल भरुन येतां. आसूं. तर, कावळ्याच्या चोंचींतल्यान वांचून उरिल्लें खोबरें घाण्यांत वता आनी तुमचे नशिबांत बरयल्लें तेल गॅलनांत वता.

खोबऱ्याच्या कुशीक हांतरेर आमी पापड, दांगर, वोडयो सुकत घालतात. आटकां फोडलीं, सुकत घालीं अशें हांच्यां बाबतींत जायना. हांगां मनीस बळ लागता. पिठी कालोवन, धोडावन, लाटून मागीरुच पापड वताक हातरेर पडटात. उड्डाचे पिठयेंत पापड खार, मिठ, तारवटी मिरसांगो, हिंग, मिरयां, खोबरेल जाय त्या प्रमाणान वचत जाल्यार पापड रुचीक जातात. आमचे भुरगेपणांत पापड कोळश्यार भाजून ताचेर खोबरेल सोडटाले. सकाळीं अकरांक पेजे वांगडां खोबरेल सोडिल्लो खारो बांगडो वा पापड आसतालो. वयर म्हणलां तशें आदाराक हात आसल्यारुच पापड करपाक घेंवचे. पिठी कालोवपाक, ती धोडावन मोव करपाक, लाटपाक हात जाय पडटात. लाट्टकच वतांत सुकत घालपाकूय मनीसबळ लागता तें वेगळें. पिठी कालोवपाक घेवपा पासून पापड सुकत घालऽ मेरेन दादल्यांचो खंयच सहभाग नासता. पापड करप हें बायलांनीच, दादल्यांक तें जमपाचें ना हें म्हजें स्पश्ट मत. चडान चड घरांतलो दादलो पिठयेची गुळी तोंडांत उडोवपाक थंय पासय मारत. धोडावप आनी मोव करप हें काम बायलांक सहज जमता हें लग्न जाल्ल्या दादल्यांक विचारल्यार ते सांगतले. म्हणटकच, 'पापड करुंक घेवया मुगो' अशें एकमेकाक विचारुन तो पापडांचो सगलो प्रॉसेस सुरु जाता. पापडाची पिठी वानांत घालून मुसळान धोडायतात. धोडायतना बायलो दादल्यांचो राग ते पिठयेचेर काडटात. हाका लागून पिठी धोडावन बरीऽऽ मोव जाता. पापड लाट्टना बायलो मीठ मिरसांग लावन हांगाच्या थंयच्या गजालींचें देवाण घेवाण करतात. म्हणटकच त्या पापडांक वेगळोच सुवाद येता. आमचें लग्न मे म्हयन्यांत जाल्लें. म्हणटकच ते वर्सा पापड लाट्टना खबरींक म्हजो विशय घेतिल्लो. म्हजे लग्ना उपरांतच्या परिस्थितीचो अदमास आईन पिठयेच्यो गुळयो करतनाच उगतायलो. तें आयकून म्हजी सालांत गुळी जाली. बाकीच्या बायलांनी 'घरा घरांत मातयेच्यो चुली' म्हणत पापड लाटले. एकटेन 'अरे संवसार संवसार' म्हणत बहिणा बाईक याद करीत पापड सुकत घाले. पापडांच्या निमतान बायलांक आपलें मत मांडपाक माची मेळटा हें मात खरें. त्या काळांत अश्या माचयेची बायलांक गरज आशिल्ली देखुनूच पापडांची संकल्पना फुडें आयली अशें म्हाका दिसता. पापड सुकतकच ताच्यो कवळ्यो करतात आनी करणांत दवरतात. जाय तेन्ना ते मागीर भाजप वा तळप. म्हाका तळिल्लो पापड अजिबात आवडना, तुमचे म्हायती खातीर.

पापडांच्यो कवळ्यो जातकच मुंबय पावत जाल्यार हांव नलूगेर दोन तीन कवळ्यो पावयतालों. नलूक गोंयचे खाणां जेवणाचें खूब. आजूय तें जेवण गोंयचे पद्धतीन रेसिपी बुक वाचून करता. (गोमंतकातील थाळी शाकाहारी आणि मांसाहारी, लेखिका अन्नपुर्णा सहस्रबुद्धे). एक वर्स अश्योच पापडांच्यो कवळ्यो घेवन गेल्ले कडेन साडवान 'मुंबईच्या लिज्जत गृह उद्योग ह्या सहकारी उद्योग समूहाने पापडाचे मोठ्या प्रमाणावर उत्पादन व वितरण सुरु केले आहे. जोरदार जाहिरात, कमी खर्च व सदस्याचे उत्तम सहकार्य ह्या मुळे पापड घरा घरांत पोंहोचला' अशी म्हायती दिली. 'घरा घरांत पोंहोचला म्हटल्यावर तुमी तोच पापड खावा' अशें हांवे मनांत म्हणलें. आतां हांवे पापडांच्यो कवळ्यो घेवन नलूगेर वचपाचें सोडलां. आसूं.

आमगेर कुंवाळ्याच्यो वोडयोय पापडां वांगडा करपाक घेतात. आमगेर कुंवाळो दादलो मनीसूच कापून दिता, कित्याक खबर ना. तुमगेर वोडयो बी चुकून करता आसत जल्यार ह्या विशीं म्हायती काडची. शाळेंत आसतना हांव हें काम खोशयेन करतालों. मागीर मातशी बुद्द येतकच हांवे पुरुश प्रधान संस्कृतीचो निशेध करीत कुंवाळो कातरुंक म्हजो न्हयकार दिलो.

"आगे कुंवाळो बायल मनशेन कापल्यार कितें जाता? कुंवाळो बायल मनशेनूच कापचो, वोडयो करच्यो, सुकत घालच्यो आनी सुकतकच डब्यांत भरच्यो. खावपाक मागीर दादलो मनीस आसाच न्ही?"

हांवे आई कडेन निशेध नोंदयलो. आई मागीर कुंवाळो टायगरा कडल्यान नाजाल्यार सांवळ्या कडल्यान कापून घेवपाक लागली. वोडयो करतना मागीर 'ह्या दादल्याचो कुंवाळो कापपाक लेगीत आधार ना असो म्हजो उद्धार बायलां मदीं जावपाक लागलो. फुडें, पांनार, वोडयो वा वोडयां आम वडटना 'ह्यो वोडयो बायलांनींच केल्यात आं' हींय उतरां आयकुचीं पडलीं. आतां वोडयां खातीर कुंवाळो हांवूच कापून आनी वेळ पडल्यार किसुनूय दितां ही तुमचे खातीर अभिमानाची गजाल. पुरुमेंता खातीर सांडगेय करतात. आमगेर आईन ते केन्ना केलेना. कोणागेरुय अजुनूय करतात जाल्यार ताणी ते दोकुमेंत करुन दवरचें. फुडले पिळगेक पुस्तकांतल्यान खाणां जेवणां कळपाक तें बरें पडटलें.

पुरुमेंताक लागतात ते बाकीचे जिनस आमी विकते हाडटात. खोलच्या मिरसांगांचो आमी पुरुमेंत करतात. आईक खोलच्यो मिरसांगो सोडून बाकिच्यो कोंताक येना. हाका लागून म्हजे खातीर थळां पळोवप

चलतालें तेन्ना आईक काणकोणची चली पळय म्हणिल्ली. पुरुमेंताक खोलच्यो मिरसांगो तरी त्रासां शिवाय घरा पावतल्यो हो ताच्या फाटलो हेतु. 'तूं बरो तयार आसत, तांकां तुजें ध्यान पसंत पडूं नाका' अशें म्हणून आई खोलच्या मिरसांगांचे देंट काडूंक लागली. आई मिरसांगे पिठ्या वांगडा सवळ्यांनी थोडो सामारुय करुन दवरताली. आतां पिरायेक लागून ती करना.आमचें गोंयकारांचें जेवणाचें पान सोलां बगर हालना. सोलां तींय बी आगळाचीं. आमच्या फाटल्यान मागिलदारा एक भिरंड आसा. ताचीं भिण्णां आमकां गिमांत सरबताक पावतात. ल्हान आसतना आमी भिण्णांचो देंट काडून तातूंत काडयेन मीठ धुकलून तें सुरु सुरु करुन चोखताले. फुडें भिरंड वचून हातांत कुड्याचें पान आयलें आनी काडी घेवन तातूंत चुरो धुकलून विडयो फुरु फुरु करुन फुंकूं लागले. पूण ताची संवंय भिण्णां पासून जाली हें खरें. सादी फुटी कडी करतलीं जाल्यार लेगीत आमकां सोलां लागत. शेजारचे राज्यांतले मनीस हांगा पावतकच 'अमृतावरी सोलकडी' सोदतात. सगलें नुस्त्याचें फाटलें फुडलें घेवन जेवतकच, 'मला फक्त सोल कडी मिळाली की बस, आणखी मला काही नको' असो शेरो मारतात आनी पेलो भर सोल कडी पियेतात. तो शेरो आयकतकच,'ओगीच इतलो देसपेस करुन इतलें जेवण केलें हाचो येजमानाक पासियेंस जाता. सोलां आसले बगर आमचें तेफळांचें हुमण जायना. हाका लागून गोंयकार गिमांत, बरीं आगळाचीं सोलां सोदीत गोंय भर भोंवता.आमी आमचे देवा कुडींतलो लामणदिवो आनी दिवल्यांक हींच सोलां घासून चकचकीत करतात. रांदचे कूड ते देवा कूड असो मुक्त संचार आशिल्ले सोलांक पुरुमेंतान वयलो पांवडो फावो जाता.

गांधीजीन दांडी यात्रा काडचे आदींच गोंयकारांक मिठाचें म्हत्व कळिल्लें.

"Traditional salt farming in Goa has been practised for 1500 years. Goa's riverine estuaries, easy access to sea water, favourable climatic conditions makes salt production attractive during summer".

अशें जेन्ना फादर थॉमसान आमकां वर्गांत सांगलें तेन्ना आमचें (दत्ता आनी हांव) हड्डें अभिमानान फुलून आयलें.

"We are proud of our salt Father. If British had ruled Goa for 450 years then Bapu would have arranged Dandi Yatra at Ribandar Father. We are unlucky in that case".

दत्तान दोळ्यांत दुकां हाडून म्हणले.

"Dandi is a place in Gujarat my son, hence it is called Dandi March."

"Whatever it is! Our feelings are important Father, not places"- दत्ता.

बापू आपल्या सहकार्यां वांगडा Ponte-de-Linhares वयल्यान मिठाच्या आगरा कडेन वता अशें चित्र म्हज्या दोळ्यां सामकार उबें रावलें. आमचे जेवणाक रुची पुरतें मिठ लागता हें रेसिपी बुक वाचून जेवण करतात तांकां खबर आसतलेंच. पुणून गोंयकारांक पुरुमेंता खातीर दोणान आंबल्यो घालतलीं जाल्यार मिठागरांतलेंच मिठ लागता. हांगा 'आयोडायज्ड नमक' चलना. आमी दर वरसा आंबल्यो आनी मिरसांगो दोणांत घालतात. ताक, शीत, आकरांचें तोणाक आनी दोणांतली मिरसांग म्हणल्यार म्हजे खातीर पंचपक्वान तुमचे म्हायती खातीर. वयर सांगलां ते प्रमाण हें मिठ आमकां हांगाच पाट्यार मेळटा. (Vocal for Local), आमी तें आमकां जाय ते मात्रेन हाडून ताचो पुरुमेंत करतात. बाणस्तारी बाजारांत आंबल्यो येवपाक लागतकच आईक आंबलेचें लोणचें, भरिल्ल्यो आंबल्यो करपाचे वेद लागता. मागीर हांव आनी सावळो (आंबल्यांचो दोतोर) बाणस्तारी वचून आंबल्यो घेवन येतात. आमचें पळोवन आतां आमची नेपाळीण लोणच्याचो पुरुमेंत करता. आमच्यो भरिल्ल्यो आंबल्यो आतां देशाची सिमा हुपून भायर पावल्यो ही आमचे खातीर अभिमानाची गजाल.

''हामीलाई यी भरिएका कच्चा आम मनपर्द छ''. (आमकां ह्यो भरिल्ल्यो आंबल्यो घोस्ताच्यो) अशें तिणे म्हाका आंबल्यानी मेथो भरीत एकदां सांगलें तेन्ना म्हाका भरून आयलें.

''यदि तपाईलाई थप आम हरु छाहिएको छ भने म तिनी हरुलाई तपाईको लागी बाणस्तारी बजारबाट दिने छु'' (तुका आनीक आंबल्यो लागल्यार हांव बाणस्तारी बाजारांतल्यान हाडून दितां) हांवे तिका शेजार धर्म पाळीत सांगलें.

भर पावसान जर गोंयकारांक कसलोय त्रास जात आसत जाल्यार तो म्हणजे नुस्त्याचो. ह्या काळान नुस्तें मारपाक कायद्यान बंदी आसता. (बंदी कितल्या दिसांची आसची हें सरकार थारायता नुस्तें न्ही). म्हणटकच गोंयकारांक वासाक खारें जाय पडटा. आमी बांगडे, गालमो, सुंगटां, वेल्ल्यो, पेडवे आनी मेळ्ळ्यार मोरी असो खाच्याचो पुरुमेंत करतात. आमकां ह्या खातीर आमगेलें इजाबेल आदार करता. आतां फ्लॅट संस्कृती आयिल्ल्यान हो खाच्याचो पुरुमेंत काळा भायरो जाला. कोण करतात ते करतात. तेच परीन गांवठी कांद्या मोवळ्यो कोण आतां हाडून दवरीना. हाचीं कारणां विंगड विंगड आसूंये. एक हे गांवठी कांदे मेळपाक कठीण, दोन आतां लोकांच्यो रुची बदल्ल्या आनी तीन समजा मोवळ्यो हाडल्यो जाल्यार फ्लॅटांत कोंडो बांदून त्यो खंय लांबयतलो? आमी मात गांवठी कांद्याचो पुरुमेंत करपाचो अजून सोडूना ही तुमच्या खातीर अभिमानाची गजाल. पयलीं आमच्या घरांत गांवठी कांदोच चलतालो. दुसरो कांदो केन्नाच उश्टायलो ना. म्हणटकच जिबेक विचारुन आमी ताचो पुरुमेंत करतात. बांगड्यां किस्मूर, चिकन आसल्यार ताच्या वांगडा हरवो खावपाक बी आमी हो कांदो वापरतात. हाका लागून आमकां त्यो मोवळ्यो वर्स भर पावतात. फाटले वर्साचें उलोंवचें जाल्यार निमाणो कांदो हे वर्सा कवळे जात्रेक घेतिल्ल्या गांवठी वांयग्याच्या भरताक घाल्लो. गांवठी कांदे हाडपाचें आनी ते कोंड्यार चडोवपाचें काम आमचो सांवळो करता. अळसांदे, चवळ्यो बी हाडपाचें काम ताचेंच. तांकां बरड बी लागत म्हूण मर्दी मर्दी तांचेर नदर मारपाचें काम हांव करतां. घोटां मातशीं सवाय जातकच आमी तांचे साठ घालतात. म्हाका पणसाचें साठ

*(पान २१ चेर)*

# आटीव - घोटीव

उल्हास पै रायकार

**पुस्तक परिक्षण**

पावसा पयलीं आरमारींतले कपडे सुकोवन काडपाची एक कार्यावळ आसता. अशें करतना पयरूच एक कपयाळें मेळ्ळें. नात्यांतल्याच एके बायलेन म्हज्या चल्याक दिल्लें. अशेंऽ धरून तोखेता आसतनां तातुंतल्या विंगड विंगड रंगांच्या आकृतींनी आनी तांच्या सयांनी हांव रंगलो आनी याद जाली मुकेश थळीच्या 'रंगतरंग' ह्या निबंध झेल्याची, ताच्या 'रंगतरंग' माथाळ्याची आनी ताणें केल्ल्या 'रंग-तरंग' आनी 'रंगत- रंग' हे फोडणिशेची. वाचपाक बसलों आनी रंगऽत रावलों.

आपणें आपणायिल्ल्या सैम आनी मनशांच्या मनांचीं चित्रां मुकेश शद्बबद्ध करता. 'बद्ध' हें बंधन, पूण शद्बांक जाय जायशें. आमगेर पयलीं खाण करपाक खाजेकार येतालो. बुंदीचे लाडू करपाक बरेंऽ पीठ करून जाळयेर झळझळीत घश्टितालो. जाळयेच्या बुरांकांतल्यान टपटपीत बरीं बुंदां तेलांत पडटालीं चळ-ऽऽ चळ-ऽऽ असो आवाज करीत. मागीर तळपाचो घमघमीत बरो वास येतालो. मुकेशाचीं उतरांय बरीं बुंदांवरी सुटसुटीत जावन टपटपीत पडटात. मागीर बरप आटीव - घोटीव आनी एकजिनसी जाता, घमघमता आनी संवाद सादता.

'माथाळ्या खातीर माथें खरपितना' ह्या निबंदांत माथाळो हो लेहरो कसो मुकेशान म्हळां. मुकेशाचें आटीव-घोटीव बरप लेहरो कशें. हो लेहरो सुंदरतायेची सम लेखकाकूय दाखयता आनी वाचकांकूय आनंद दिता. ही सम म्हळ्यार इंग्लीशींतलें समींग अप (summing up) कशें. देखूनूच हो 'आटीव- घोटीव' माथाळो ह्या लेखाक दिला.

मुकेशाची आदल्या निबंद झेल्यांची बांदावळ आनी 'रंगतरंगाची' सारकीच. वेगवेगळ्या विशयांचो सुवाद घेतना ताणें व्यक्तींचेरूय बरयलां. हेर विशय आपणायतना ताणें व्यक्तींकूय आपणायल्यात. उण्यांत उण्या उतरांच्या स्प्लॅशान तो ती व्यक्ती आमच्या दोळ्यां मुखार उबी करता. वेगळो निबंद बरयनासतना ताणें आपल्या आज्याक सोबित वर्णिला. 'पावसांत गळपाक लागतकच आजो रोखडोच, एक संवळ्या बडी आनी पोवले पासून तयार केल्ले पैखाणे घेवन धांवतालो.' 'आजो आर्म बी खांदार मारचें तशी तेन्नाची लांब दांड्याची सत्री घेवन चलतालो'. 'रोखडोच' हें उतर आनी ताच्या उपरांत घाल्लो स्वल्पविराम आज्याची मनाची बसका दाखयता आनी दुसरें वाक्य, ताचो झेत. पळेनासतना लेगीत आजो आमच्या मुखार दत्त करून उबो रावता. आज्जेच्या कामाच्या वर्णनांनी तर आजोळचें चित्रूच उबें रावता, मनशावरी. मागीर आजोळ हें एक मनीसूच कशें दिसता. वर्णिल्ल्या मनशां वांगडाच हें वर्णन आटीव- घोटीव.

आदल्या आनी आतांच्या निबंद झेल्यांची बांदावळ एक आसली तरी आतांच्या निबंदाची चाल वेगळी आसता. आतां निबंदांतले रंग सुरवेक अळंग आनी लेव आसतात, मागीर ते गडद, मुकेशाचे भाशेंत 'कारेंगाद' जातात.

आता निबंदांक वजनदार लय आयल्या. फिशाळ तबलजी बरोऽ तिया घेवन समेर येवचो तसो मुकेश निबंद सोंपयता.

मुकेशाचें भुरगेपण तशें गांवगिऱ्या वाठारांतूच. अशा वाठारांतले खुबशे लेखक थंयची उतरावळ वापरतना मुद्दम वापरिल्लेवरी दिसता. ते उतरां घश्टितात. तेच भाशेंत सांगप म्हळ्यार 'बळयां' वापरतात. पूण मुकेश शिरीं, खोलप्यो, पैखाणे, कोयंडी, किरांव हांचे कडेन सहजपणान आनी अपुर्बायेन खेळटा. सहजपणां ही ताच्या उतरांचीं घुंगरां. हेर भासांतलीं उतरां, देखीक - रेंद, कालेत, मुड्स हीं उतरांय बी तो ज्युस्त जाय तशीं वापरता. ताच्या उतरांच्या आंगलोटाक सुंदर curves म्हळ्यार वक्रता आनी वळणां आसात. देखून तीं आखीव-रेखीव जातात. तांकां निजाचें अळारपण येता.

नादब्रम्हांत समरस जावपी मुकेश सगळ्या स्वरांची आनी लयेचीं आवर्तनां आपल्या शब्दावळींत केळयता. टॉलस्टॉयाची याद करीत संगीत ही भावनांची लघुलिपी हें सांगता जाल्यार एका संगीतप्रेमीचो 'संगीत हें काळजाचें साहित्य' हो विचारूय मुजरत मांडटा. संगीताची गोडी नाशिल्लो चित्रकार आनी लेखक हांच्यांत कितेंतरी उणाव उरतलो, हें जेन्ना ताका दिसता, तेन्नाच संगिताविशींची ताची जाणविकाय कितली पिकाळ तें कळटा. म्हाड्डोळ - प्रियोळचे मातयेंतली लय, भाव, ठेको आनी स्वर ताका होलमला. आपल्या बरपांत तीं तो घोटयत रावता.

मुकेशाच्या सगळ्या निबंदांक गुंथपी दोर म्हळ्यार सकारात्मकता (positivity). 'हांव... हांव... आनी हांवूच!' ह्या निबंदातलो तोंकाळपणा मार्गदर्शनाची सकारात्मकता आसा. व्यक्तीचेर चितारील्ले ताचे सगळे निबंद झळझळीत आनी निर्मळ दिसतात. व्यक्ती म्हळ्यार दूद, उदक भरसल्लें. पूण हंस पक्ष्याच्या न्यायान मुकेशान तातूंतलें दुदूच वेंचलां. 'रात्रंदीन मन राघवीं असावें' ही काव्यपंक्ती आनी ती गावपी किर्तनकाराची याद आपल्या यादींच्या पेटलांत सांबाळून दवरपी मुकेशाक दर एका मनशांत 'राघव' दिसलोना जाल्यार अजापूच. ताची सकारात्मकता अशीच आटीव - घोटीव. ह्या सकारात्मक विचारांक लागून 'रंगतरंग' सगळो रंगतकच आखखो जायां-पोड कसो परमळटा.

रंगतरंगांतलो दर एक निबंद म्हळ्यार एक एक स्वर आनी स्वर-कण. मुकेश तांकां शद्बकण म्हण्टा. हो संग्रह संगितांतलो एक रागूच कसो. तातुंतलो 'दोंगरा माथ्यार' हो वादी आनी 'स्पश्टतेंतली स्पश्टता'

हो संवादी. दोंगरा माथ्यार' भोंवतना आमकां वादी स्वर मेळटा आनी 'स्पश्टता' ताचे कडेन संवाद सादता. 'नादब्रम्ह' म्हळ्यार ताणें शद्बांचेर आनी कणांचेर केल्लो न्यास.

मुकेशाचो 'दोंगर' वेगळेच कालेतीचो. पिकाळ वासांचो, काळसर जांबळींशी भेडसां रसरसावपी, वाऱ्याचीं आनी जाय जायशीं दिसपी मस्तेपणां अपुर्बायेन थापटुपी, सुक्या पानांच्या कार्पेटींतल्यान हळूच तकली वयर काडपी, बियेंतल्या घोडकाक तोखेवपी, चुन्रांचारां चोखपी, भिण्णांचे रंग पियोवपी, तळयेंतल्या किरांव उदकाची थंडसाण सोंसपी, भुरग्यांचे जिणेचें भांगर करपी, यमन रागावरी सांसपी सांसपी सांसपुपी, सोंस सोंस सोंसपी, आनी दी दी दिवपी. दोंगर हो दातो खरो. दोंगर समजतकच म्हाका कवी बाकीबाब बोरकारांच्या एका ओळीची याद जाता -

*मीपण ज्यांचे पक्व फळापरि*
*सहजपणाने गळले हो*

ह्या दोंगराचें अहंपण पिकिल्लें फळ कशें गळून पडलां. केन्नाच कोणाक दुखयना तो हो सुखदिणो वादी स्वर.

दोंगराच्या वादी स्वरांतली स्पश्टतेंतली स्पश्टताय सोदपाक मुकेशाच्या उतरांनी सांगात केला. तांणी दोंगराकडे संवाद सादला. दोंगर आपले उत्फर्के स्पश्टपणान मांडटा तेन्ना ताचें आंगपांग चंवरता. स्पश्टपणाक रियाज जाय. स्पश्टतेंतली लांबाय, रुंदाय, उंचाय, खोलाय हाचो रियाज करतकच मुकेशाक 'दोंगर' मेळ्ळा. स्पश्टतेच्या फुडलो म्हळ्यार परम स्पश्टतेचो सोद हो दोंगराकडे संवाद सादता. हो सोद स्फटिकाच्या आंगलोटाक आनी पारदर्शकतेक लजोवपी अशे स्पश्टतेचो. 'स्पश्टतेंतली स्पश्टता' सोदपी असो हो सोदमय संवादी.

...आनी न्यास ... सुंदर आनी सुखदिणो. म्हळ्यार ताचो 'नादब्रम्ह' हो निबंद. सगळ्या निबंदांनी नादाचे कण शिंवरल्यात पूण दोंगराच्या परम स्पश्टते कडेन मुकेश आमकां 'नादब्रम्ह' ह्या निबंदांतल्यान व्हरता. ताणें नादब्रम्हांत केल्लो उतरांचो न्यास आमकां दोंगर आनी स्पश्टता चड स्पश्ट करता. थंय ताका 'शाण्या, कसो आसा रे भांगरा' अशी लकुबायेन वासपूस करपी यमन मेळ्ळा. एक स्वर कुरू कोरांतून गेला. स्वरांच्या ओथांब्यांचो अणभव जगला. मुकेशाचो न्यास हांगा अंतर्मुख जाला. ताची तंद्री लागल्या. मनस्वी गायकां वांगडा कांय कवींनीय ह्या न्यासाक आवशील केला. दोन स्वरांमदलें मौनूय तो हांगा सोदता. देखून तो दोंगरा कडेन वचून ताचें मौन संगीत आयकुपाक वश्रेता.

गानसरस्वती किशोरी आमोणकर स्वर माध्यमांतल्यान अमुर्ताचो सोद घेता जाल्यार मुकेश शब्द माध्यमांतल्यान. निरव स्थिती म्हळ्यार अखंड मोनेळाचो ताका ध्यास आसा. हो ध्यास निरंतर उरचो. मागीर एक दीस

'अकस्मात सकाळ्ळें!'

अशें जावचेंऽ जावचेंऽ जावचेंच...ऽऽऽ



*(पान २७ वयल्यान)*

तितलेंशें आवडना म्हणटकच हांव ताचे वाटेक वचना, जेवणा उपरांत आंब्याचें साठ तोंडांत उडोवन सालांत आड पडपाक म्हाका खूब आवडटा. ते आंब्याच्या साठा वरीच कांय आंबट कांय गोड सपना दोळ्यां सामकार पासार जातात. तुमीय तेच खातीर त्रास घेवन आंब्याचें साठ घालचें अशें हांव म्हणना, दर एकल्याची आवड. हांव आमचो हांडो कट्ट्यो आनी सोण्णांनी पेटोवन तापयतां म्हणटकच आमकां पावसा खातीर जोळोव घेंवचो पडना. पुणून जे घरांनी अजुनूय रांदनीर रांदतात तांकां जळवाचो पुरुमेंत करचो पडटा. पयलीं दारांत भरे घेवन भरेकान्नी येताल्यो आनी 'जोळोव जोळोव' म्हणत दारांनी ट्रक भोंवताले. आज ते दिश्टी पडनात.

हांवे वयर म्हणलां तशें सगले जिनस वर्स भर मेळिल्ल्यान आज कोणाक पुरुमेंत करपाची गरज भासना. हाका लागून कोण काणयेंतली मूंय जावपाक सोदीना. सगले तोळा वरी फिडल वाजयत गांवार भोंवतात तें पळोवन म्हजे सारकेल्याचे काळजांत चर्रऽ जाता. आज आमच्या हातांत फकत पुरुमेंताचे यादींचो पुरुमेंत करपाचो उरला. त्यो यादीय पुसचें आर्दी आमी तो करुया. मळबांत कुपां दाटपाक लागल्यांत...

संपर्क : 9850530756



*(पान १३ वयल्यान)*

जितली सोंशीक, तितली ती बरी.

बायल म्हणून कितलें सोंसतली एक दीस तिचे सहनशीलतेचो अंत जाता. अशें क्वचित घडटा. पूण घडलां. एक बायल भोमच्या एका मनश्या बरोबर लग्न जाल्ली. घोव वेसनी, भायल्या छंदाचो आनी पाड्या सभावाचो. बायलेचो सामको छळ करतालो. सुदारतलो सुदारतलो म्हणत ती सोंसत रावली. घरांतलो, शेतांतलो मरसर वावर करत रावली. दोन वेळचे गोटे आनी वर्साक दोन कापडां तुका न्हेसूंक मेळटा आपले खुस्तार अशें म्हणत तिका जळयतालो. तेन्ना तिकाय दिसलें ह्या दोन कापडां खातीर आपणें कित्याक हाचे वांगडा दीस काडप. त्या काळार घोवाक बायलेन सोडप हाची कोणें कल्पना लेगीत करूंक नाशिल्ली. तेन्ना तिणें ताका सोडलो. त्या मनशा पासून जावपी त्रासूय नाकात आनी फायदोय नाका अशें सांगचे वेळार ही म्हण म्हणटात, 'नाना गेऽ बाये भोमचो घोव, दोनूय कापडां तोच घेवं.'

ह्यो कांय म्हणी कोंकणी समाजांतले बायलमनशेचेर आदारीत अश्यो. हातूंतल्या कांय बायलमनशांचो सभाव .अजून बदलूंक ना. ते खातीर तातूंतलें खरेपण उणें जावंक ना. कांय चुकीच्या समजुतींचेर आदारलेल्यो म्हणी आसात. आतां बायलो सगळ्या क्षेत्रांनी मुखार पावल्यात. ते खातीर त्यो म्हणी आपसूंकच फट थारल्यात. आनीकय खूब म्हणी आसात. त्यो पळोवया फुडले फावटी.

संपर्क : 9850530152



(पान २१ वयल्यान)

जिवितांत तुमी खंयचीय 'नकारार्थी' गोष्टी करपाक जायना. जाल्यारूच सिद्धी आनी साधना तुमच्या दारांत हात जोडून उब्यो रावतात.

गांवांतल्या बारीक लोकांनी तें जोडलां. मोठ्या मनशांनी व्हगडायलां.

***

आनंदरावाक तो 'खळाक' शद्ब खूप आवडला. तोय म्हजे भशेन स्टुडंट रातभर 'रौळाक, रवळूक' म्हण जप करतालो. पूण भितरल्यान भियेलें.)

म्हाकाय रातभर न्हीद आयली ना. म्हजेय आयज ब्लड रिपोर्टस् आयल्यात. ते सगळेच सगळे वायट आयल्यात. सगळ्या तरेच्या रिपोर्टांनी हांव कांठार पसून पास जावूक ना. सगळ्याक नापास, नापास, नापास..

ते भायर हाचें हें 'खळाक' प्रकरण.

देवा, कितें जातले काय आमचें दोगांचें?

मागीर म्हाका देवतेची याद आयली. तिका सांगलें, ''बाये, (सायबिणी) आमकां, दोगांकूय सांबाळ. तुज्या नांवान मनांतल्या मनांत नाल्ल उकलासून दवरतां.'' (देवीच ती. अंतर्यामी. तिका भक्तांच्या मनांतलें सगळें समजता.)

आनी मागीर हांव सुशेगाद न्हिदलें.

***

६/५/१४

निवृत्ती मेळ्ळो क्लासांत वतालो. ताका आडावन विचारलें, ''हिचणां खंय, कशीं मेळटात?'' काय म्हणून. जाल्यार ताणें सांगलें, ''हिचणां मेळपाचे उदकांत विशिश्ट जागे आसतात. थंय वचून गरोवन वा कोंबल्यांनी धरून तीं हाडचीं पडटात.'' म्हण.

म्हाका हयन्हयशी याद जाली. एक फावट पारशेच्या भिकऱ्याच्या झिलान - टाँनीन सांगिल्लें, ''बाबू लाडच्या घरा फुडल्या आर्कांनी (आर्कांचो सांकव) हिचणां वा पोटींग मेळटात. तीं कोगल्यांनी धरून आमी वायदोंगरार गरोवंक वतना तीं घेवन वतात.

निवृत्ती फुडें सांगतालो, ''हिचणाक मांसाचो एक विशिष्ट तेलकट (ओंस) वास आसता. ते उदकांत पडलें काय नुस्त्याक वा कुल्लेक तो वास रोखडोच येता. आनी ती तें खावपाक धांवतात.''

***

रमेशान फोन केल्लो. तो बाबा गोंयांत आसा काय राबयरेलीक आसा काय खंय तंजावराक आसा. देव जाणा! फोनार उलय उलय उलयलो. हांवें सांगलें, ''खूब कालोर जाता. जीव सामको नाका जाला.'' जाल्यार तो सांगता, ''हांगा तर त्रेचाळीस डिग्री तापमान जालां.'' हांव भियेलें. शिरदोना त्रेचाळीस डिग्री टेंपरेचर रोखडीच ही डिग्री मिरामारूय लागू जातली. मागीर कळ्ळें. हो पात्रांव रायबरेली पावलां म्हण. आनी म्हजो जीव सूं जालो.

म्हजो अंदूचो आनंद मेळावो खूब बरो जालो म्हण सांगतालें. हांवें सांगलें, ''हांव तो घरांत करता म्हण ताका खूब टेन्शन येता, त्रास जाता. सगळ्या लेव्हलांचेर काम करचे पडटा. (मुख्य म्हणल्यार घर आनी घरा भोवतणचो वाठार; गोवा, दमण, दीव निवळ करचो पडटा.) मिरा म्हणूक लागलें, ''तूं तो घरांत करता म्हण ताका एक वेगळी वळख आसा. खासियत आसा. अशा तरेची कार्यावळ हांवें हाली खंय पळयल्याची म्हाका याद जायना.''

ह्या कार्यावळीक म्हजे इश्ट-मित्र, सगे-सोयरे, शेजारी-सांबारी, गांवांतले लोक सकाळच्यान येतात. सकाळीं इंकरांचो हांव टायम दिता.

**(मुखार चलता)**



(पान १० वयल्यान)

आपापल्या घरा वतालीं. वतना जण एकल्याक पाच धा पापड दिताले. सुकिल्ले पापड अळंग घरांतल्या कुडींत हाडून पातळावन दवरप, रातचे न्हिवतकच तांचे पन्नास शंबरांचे दाळ करुन केळी गब्याच्या दोरयांनी ताज्यो त्यो कवळ्यो बांदप. दुसऱ्या दिसा ते वताक दाखोवक लातांनी भरुन दवरपाप. पापड प्रक्रियेचे हे सात आठ दीस तरी मजेंत वताले.

आदल्या तेंपार पुरुमेंताच्या लोणच्या खातीर बऱ्यो आमल्यो हातासून अख्ख्यो आमल्यो मेथो भरुन, कुडक्यांचे लोणचें, आमल्यो दोणांत घालप बी करतालीं. तशेच वर्सा खातीर गोड लोणचें, साखरेंतलो मुरांबो बी आसतालोच. आमल्यो खावन दांत आमेवन वताले. पूण घरच्यांची तापोवणी खावन तें खाले बगर भुरगीं रावनासलीं.

अशीच मागीर भाटांतल्या झाडांचीं भिंडां हाडून सोलां करुन आंगणांत काडून तीं सुकोवन पुरुमेंत करुन दवरप. इतलेंच न्हय तर ओटमां सोलां, सुकामली, बिमलां, सगळें सुकोवप. बिबे, काजू आसतालेच. सगळें फोलिणांनी गच्च भरुन दवरप, पावसांत जाय तेन्ना काडप. बरो पावस ओतताना पत्र्याचेर भाजिल्ल्यो काजूबियो खावंक जी मजा येताली, ती पिशव्यांनी मेळटल्या काजूं बियांक खंयची? आतांच्या शारांत रावपी आनी मॉलांनी, हॉटेलांनी वचून खावपी भुरग्यांक तांतली ती मजा कशी कळटली?

खोबऱ्या खळार नाल्ल फोडटना म्हाका तुका करुन खावपांत आनी खोबऱ्या कुडके गोडाबरोबर खावपाची अवीट गोडी तांकां कळचीच ना. वतांत करपून काळे जावपाचो भंयच आमच्या मनांत केन्नाच आयलो ना.

आमचे काले जात्रा उलगले, गीम येवंक लागलो म्हण्टगीच गांवच्या इगर्जांचीं फेस्तां जातालीं. थंय चडशे पुरुमेताचे जिन्नस मेळटाले. 'रायचे फेस्त जालेंय गे'.

'हांव नकळो. तूं तुज्या फेस्ताक पावलेली?' रेईश मागूशचे फेस्ताक सोगले मसाले मेळटात तूं जाणाय? बायलांच्यो खबरो चलतात्यो. ह्या फेस्तांनी मिरसांगो, अळसांदो, सोलां, खारें बी मेळटालें आनी पुरुमेंताचें सामान घेवंक लोकांचीं ही गर्दी जाताली. आमचो भुरग्यांचो मतलब खोनांत फुलयिल्ले चणे आनी भिकणां खावपा पुरतोच आसतालो.

संपर्क : 9757119317



# कविता

## कुमार

माधव बोरकार

१
पयलीं रेखता राग
मागीर भरत वता रंग
चार्त्रे मनांत वेता तेन्ना
तुजो मालकंस आयकतनां

२
कबिराच्या काळजांत
गायता कुमार
जाता शब्दब्रम्ह ओंकार

३
फुलांनी बादिल्ले
बोल बेहलाव
वता वेध येत
लय तालाचो थाव...

४
सुरांक आसता
परमळाचें भान
दर्याच्या गाजेवरी
तुजी तानेन तान...

संपर्क : 9420222876



## कवनां

सखाराम शेणवी बोरकार

१
रात भर तुजो विचार
करतां करतां
केन्ना फ्रांतोड जाली
कळ्ळीच नां.
मोग करप्यांच्या
सपनांनी खंय मोगी येता
म्हण आयकल्लें
हांव तर
रातभर जागोच!
२
दोळे उगडल्यार
सगळें सोडून
तूंच दिसता
आनी
धांपिल्या दोळयांतय
तूंच दिसता
अशें कशें हें
अजाप घडटा?
३
थंडी एकदां फांतोडेच्या
मोगांत पडली
तेन्नासावन दोगांय
सांगातान चलतात
सकाळचे वाटेर!

संपर्क : 9923306751



## चारकोल

परेश नरेंद्र कामत.

चारकोलांत आसता उजवाड
खंय ना खंयतरी
दडिल्लो

काळ्या, काळ्या दोळ्यांत
ओंठांनी लिपिल्ल्या हांशांत
तुज्या मुदयाळ्या कैसांत
सळ ऽ सळ ऽ सळसळटा
उजवाड

तुजे-म्हजे मजगतींय
आसताच उजवाड
खंय ना खंयतरी- झिरपल्लो.

जेन्ना
आसतां हांव थपथपलेलों
काळखाचे तनरेंत
तेन्ना चारकोलान चितारिल्ल्या
तुज्या चित्राचें रूपांतर
जावंक लागता
ल्हवू ल्हवू
तन्न्या-कंवळ्या उजवाडांत...

संपर्क : 9422640210



## सौदो

अन्वेषा सिंगबाळ

हांवें म्हजोच
सौदो जातना
पळयला
ह्या भावनांच्या
बाजारांत

कोण
बोली लायता
कोण
लावकी थारायता
कोण
फुकटय
बोल्सां भरून व्हरता
म्हज्यो भावना

आनी हांव
भिकारी जावन
भोंवता
जगभर
इल्ली थाकाय
मेळची म्हणून
म्हज्या
उक्त्या दुखत्या
मनाक
सासणाची.

संपर्क : 9923442746



## जिणे जगजेठी

आर. रामनाथ,

पालवली वात
किण्ण बिण्ण रात
ब्रह्मांडाची वाट
अरिश्टांत ...

पयसावली दिठी
अंतरली मठी
जिणे जगजेठी
अद्रुश्टांत ...

संपर्क : 9850458763





## रुमीलीं कवनां

अणकार: मुकेश थळी

१
आसतां हांव मौन
पावतां अशा विश्वांत
जंय सगळेंच संगीत

२
याद दवर.
जे तरेन
तूं प्रेम करतलो
ते तरेन
देव तुजे वांगडा आसतलो.

३
जाणा जावपाची कला
म्हळ्यार
किर्ते आडनदर करप
हें जाणप

४
आत्म्याक उत्तेजना हाडपी
दरेका भितल्ल्या उल्याक
ओ दी.

५
तूं खंयूय आसूं
किर्तेय करूं
प्रेमांत राव.

६
तुका जातात दगदग
ते संदेशवाहक
आयक तांकां

७
गावचें शेवण्या भशेन
कोण आयकतलो
कोण किर्ते चिंततलो
कित्याक तो हुस्को?

८
मौन ही देवाची भास
बाकी सगळे बाबत अणकार

९
कांय मनीस म्हळ्यार
सुरक्षीत आश्रययर
तांचो वांगडी जा.

१०

तूं जितलो शांत जातलो
तितलो चड आयकतलो

संपर्क : 9423056755





## शिगमो

गोपीनाथ विष्णू गांवस

तुमकां सगळ्यांक,
शिगम्याचे परबेक... शिगम्याचीं परबीं...
शेताचो भात-गोटो घरांत येयलो...
घरांचे कोपरे भात-गोट्यान भरान गेले...
खुशयेक शीम-मेर काय उरांक नसलाले
हे उबाळ दीस...
सुगीअम्म... सगिम्मअ... सुगीम्मो...
म्हणजे आमचो शिगमो...
घरांत येयल्ल्या भातगोट्याच्या
खुशयेंत खुशयेन एकामेकांन
एकामेकांगेर येवंचां... एकामेकांगेर जांवचां...
खुशयेन एकामेकांक खुशयेचां दान दिवंचां...
सांगचां, बोलचां आनी उसकेच्या फुलावरी फुलचां...
अडी-अडचण आसलली मारची भायर
आनी सगळ्यांनी सगळ्यांबरोबर
नितळ वागचां... निर्मळ बोलचां... निवळ सांगचां...
असो हो बोलपाचो... सांगपाचो... चलपाचो... उत्सव...
आनी एकामेकाक आपल्यागेर बळोवपाचो हो उत्सव...
'ती पुनाव ती ही पुनाव' धरून
जें कांय बरां वायट सगळां जालां हां
तें सगळां नेमाया होळयेच्या नेमांत...
आयच्यान परत नेया दिसाचो नेयो नेम रचुया...
एकामेकाच्या बरेपणाचां नेयां पुस्ताक वाचुया...
गावया खुशयेचां नमान... गाराणां... जत... सकारत...
धरुया ताल रोमटाचो... धोल... ताशा... घुमटाचो...
वाजोवया जगपाचो ताळ... झांझ... कासाळां... जगाट...
मारुया पावलट घोडे, धोंड, चोर... करोवली, गड्यांच्या पावलटीचेर...
इसरान सगळ्यांसकट सगळां...
बारीक... मोठां... माजां... तुजां... आमचां... तुमचां...
मी... मियां... तियां... हेंचां... तेंचां... कोण... कोणाचां...
तांदूळ... शेंस... इडो... मान... पान... थेंप... खांप...
वाडी...उपार... हात... बोट... फुडे... फाटीं... जागो... जुगो...
हांगां कांयच नं रे कोणाचां...
वर्सलीचो जगपाचो... एकामेकांकच जगोवपाचो...
वागोवपाचो... जागोवपाचो... फागोवपाचो...
ननावपाचो... अनावपाचो.... मानावपाचो... हो शिगमो....
हंसाया... खेळाया... मौजशी मारुया... रे ह्या संसारांत...
अशी जाण्ट्यांचे हे शद्वावळीक शद्ब दिवन...
खेळाया शिगमो... मेळाया शिगमो....
दिवया 'खेम' एकामेकाक फुडे जावपाची...
एकामेकाक पावपाची.... एकामेकाक रवपाची...
एकामेकाचां गीत गावपाची... एकामेकांक हात दिवपाची...



